जाग प्रकाशनाचें

# जाग

म्हयनाळें

वर्स ४८ : आंक ४ : डिसेंबर २०२१


● **संस्थापक संपादपी :**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● **वैचारीक दायज :**
स. माधवी सरदेसाय

● **संपादपी :**
आसावरी नायक

● **अतिथी संपादपी :**
सखाराम शेणवी बोरकार

● **पालवी संपादपी :**
कृपाली नायक, एडना वाझ

● **उजवाडावपी :**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● **छापपी :**
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● **वेव्हाराचो नामो :**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० । ९७६५९८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-




## मांडावळ...



**भायले चित्र :** सागर नाईक मुळे
**भितल्ली चित्रां :** भारत जगताप, निशीत बोरकार.

संपादकीय

# २०२१ वर्साक निरोप दितना...

२०२१ वर्साचो जागाचो निमणो अंक तुमच्या हातांत दितना खोस जाता. फाटलें देड वर्सा वयर कोरोनाच्या अकस्मात आयिल्ल्या संकटा खाला आमी जियेले. ल्हवू ल्हवू सगळें जाग्यार पडूंक लागलां. पूण कोरोना आजून पुराय वचूंक ना आनी १८ वर्सां पिराये सकयल्यांक आजून वासिनां दिवंक ना. तांचो आंकडोय व्हड. त्या खातीर कोरोनाचे सगळे नेम पाळप गरजेचें. कोरोनाचो नवो अवतार ओमीक्रॉन सध्याक युरोपियन देसांत आनी दक्षिण आफ्रीकेंत धुमाकुळ घालता. ताचे पासून आमी जतनाय घेवप गरजेचें. ह्या कोरोना खातीर ३५०० वयर गोंयकारांनी आपलो जीव वगडायलो. हें विसरून चलचेंना. गोंयचे लोकसंख्येचे तुळेन हो आंकडो बरोच व्हड आनी ही गजाल निखालस गोंय सरकाराक लजेक घालपी. पूण वेंचणुकेच्या तावार आशिल्ल्या सरकाराक हाचें सोयर सुतक ना. धंगण ना. पर्वा ना.

गोंय सुटकेचो हिरक महोत्सव सोंपपाक कांय दीस उल्ल्यात. केंद्र सरकारान हो महोत्सव मनोवपाक केंद्रीय अदमासपत्रकांत गोंय सरकारा खातीर ३०० कोटींची तजवीज केल्ली. वर्साच्या अखेरेक हिरक महोत्सवा निमतान कांय भोगावळी झरत मरत सुरु केल्यात.

गोंय सुटकेच्या ह्या हिरक महोत्सवा निमतान अरुण कामत हांचो खाशेलो लेख ह्या अंकात घेतला. गोंयची अस्मिताय, सैम राखप ही सरकाराची आनी आमची जापसालदारकी. उत्तरदायित्व.

हालींच गोंयचे नामनेचे चित्रकार वामन नावेलकार संवसाराक अंतरले. गोंयांत उपेक्षीत उरिल्ल्या ह्या प्रतिभावंत चित्रकारा विशीं खूप जाणांक कांयच खबर ना. स. नावेलकारांच्या कायम संपर्कांत आशिल्ले नामनेचे कवी आनी चित्रकला रसिक माधव बोरकार आनी गोंयचे नामनेचे चित्रकार श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी 'जागा'खातीर तांचेर खास लेख बरयल्यात. ह्या लेखां वरवीं आयचे पिळगेक ह्या म्हान गोंयकार चित्रकाराची वळख जातली हातूंत दुबाव ना.

'व्हडलें घर' ह्या कादंबरीच्या येसा उप्रांत नामनेचे लेखक ॲड. उदयबाब भेंब्रे हांणी बुदवंत गोंयकार आनी भूलविद्या म्हळ्यार हिप्टोनिजमाचो जनक आबे फारीया ह्या बुदवंत गोंयकार पुताचेर 'कातर रे भाजी' ह्या नांवाची कादंबरी बरोवंक घेतल्या. ह्या कादंबरीचें एक प्रकरण आमी ह्या अंकांत उजवाडायलां. तें वाचतगीर पुराय कादंबरी वाचपाची उमळशीक तुमकां लागतलीच. वाचनानंद दिवपी पुस्तकां म्हळ्यार खाशेलो 'पोर्टेबल जादू' अशें एका इंग्लीश लेखकान म्हळां. खरें तें.

ह्या वर्साच्या नोव्हेंबर म्हयन्याच्या निमण्या सप्तकांत गोंयांत ५२ वो आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सव जालो. २००४ वर्सा सावन म्हळ्यार, ३५व्या महोत्सवासावन गोंय हें आंतरराष्ट्रीय चित्रपट महोत्सवाचें कायम स्वरुपी केंद्र जालां. ह्या चित्रपट महोत्सवाचो गोंयांक कितलो फायदो जाला तें कळना. पूण एक मात खरें, कांय तरणाटे ह्या चित्रपट मळार देंवपाक लागल्यात. उणे प्रमाणांत काय जायना, ते लघुपट करपाक लागल्यात ही खोशयेची गजाल. अश्याच एका लघुपटाची निर्मीतीची फाटभूंय, कथा आनी पटकथा आमी ह्या अंकांत दिल्या. दोन अडेच मिनटांच्या लघुपट निर्मणे फाटल्यान कितली तकालस घेवंची पडटा हाचो वाचप्यांक तातूंतल्यान अदमास येतलो.

ओंदूच्या 'जाग' दिवाळी अंकाची तुमी खूप तोखणाय केली. ते खातीर तुमचे उपकार. तुमची तोखणाय आमची सदांच उमेद वाडयतात. लेखकांचें आनी वाचप्यांचें फाटबळ हें मुखार वचपाचें आमचें शक्तीवर्धक वखद.

'जागा'चीं पानां बत्तीस. पानां वाडोवपाचें आमच्या मनांत कितलेंय आसलें तरी अर्थीक कारणां खातीर सद्याक तें शक्य ना. ह्या बत्तीस पानांत कोंकणींतलें बऱ्यांतलें बरें, कसदार, पुश्टीक साहित्य वाचकांक दिवपाचो आमचो येत्न आसता. ह्या खातीर लेखकांचें आमकां सदांच फाटबळ मेळटा. तांच्या आमी उपकारांत आसात.

येता त्या वर्सांत आमच्या लेखकांक, वाचप्यांक आनी जायरातदारांक सूख, समादान आनी बरें आरोग्य मेळूं आनी कोरोनाचो हो हावको सासणाचो ह्या भुंयेवेलो वचूं हें मागणें.

***



# जायात जागे!

अरुण जयराम कामत

गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो!

गोंय राज्य पुर्तुगेजांच्या जुल्मी राजवटीतसून मुक्त जाल्या दिसाचो हिरक महोत्सव सुवाळो निमण्या पावंड्यार पावला. त्या निमतान तुमकां, आमकां सगळ्या गोंयकारांक, मागीर ते गोंयांत आसूं वा गोंयाभायर, सगळ्यांक हुनहुनीत परबी भेटयतां.

गोंय मुक्त जावून साठ वर्सा जाल्या निमतान गोंय सरकार हो व्हडलो दबाजो मनयता. बरी गजाल. पुणून वायट ह्या गजालीचे दिसता कीं गोंयचे मुळावे प्रस्न आसात तांचेकडेन मात सत्तेर आशिल्ल्या लोकांचे लक्ष वचना. सत्ता मेळवप आनी कशी तरी ती तिगोवन दवरप हातूंत राजकारण्यांची शक्ती वता. राज्याचो विचार करपाक तांका वेळ आनी तांक खंय आसा? बरें, ताचे तांका काय पडून वचूं ना आनी तुमकांय बी. तुमकांय फुकट उदक, फुकट लायट, फुकट तिर्थयात्रा असली फित्रिकां दिली की तुमी भुल्ले. सारासार विचार करीनासतना तुमी परत परत त्याच लोकांक वेंचून दितात. तरेक-तरेची फेस्टीव्हलां, शिगमो, कार्निव्हाल हातूंत जनतेक खिळावन करुन दवरुन हे जाय तें करपाक मेकळे. खूप वायट दिसता जें किदें चल्ला तें पळोवन.

इतलो वेळ तुमचे सांगाताक आमी उलयतां. पूण तुमी वळखले आमकां, आमी कोण ते? ना वळखूचे ना... आमी जावन आसा गोंय मुक्ती चळवळींत वांटेकार आशिल्ले सुटके झुजारी. ज्या सुटके झुजाऱ्यांनी आमचें माणकुले गोंय पुर्तुगेजांच्या तावडींतसून मुक्त करपाक तांचो मार खाल्लो, आपल्या घरच्यांक सोडून रानां-वनांत भोवन सुटके झुज फुडें व्हेलें, पुर्तुगेजांक भिना आसतनां तांच्या पिस्तुलांक तोंड दिवून आमचो जीव आमच्या मांयभूंयेखातीर उंबाळून उडयलो त्या सुटके झुजाऱ्यांचे आमी प्रतिनिधी जावून आसात. तुमी सगळे आमकां आतां विसरल्यात. सत्ता भोगपी राजकारण्यांनी तर कमराचें सोडून कपलाक बांदला आनी तांच्या फाटल्यान, तांच्या तालार तुमीं सगळे जाण नाचतात. आयज ह्या साठाव्या मुक्ती दिसाच्या परबे निमतान परतून एकदा तुमकां आमी भोगलां, सोसलां तें याद करुन दिता आनी तुमचे मुखार मांडटा.

"हांव जावन आसा हेमंत सोमण. गोंय मुक्ती लढ्यांतलो एक वांटेकार. म्हजे नांव तुमी केन्ना आयकूंक नासतलें. म्हणून तुमकां कांय गजाली हांगा सांगता. ऑगस्ट १९४७ वर्सा भारत देश स्वतंत्र जालो. सत्तेर आशिल्लें भारत सरकार आतां गोंय मुक्त करपाक प्रयत्न करतलें अशें आमकां सगळ्या भारतीयांक दिसतालें. पूण तेदेवेळचे राजकीय फुडारपण दुसरेभशेन विचार करतालें. गोंयचो प्रस्न हो आंतरराष्ट्रीय प्रस्न आशिल्ल्यान ताका खूप सांबाळून हाताळचो पडटालो.

१९४७ च्या उपरांतले दर पंदरा ऑगस्टाक गोंयच्या लोकांक एक आस्त आसताली की आयज भारताचे सैन्य येतले आनी आमकां गोंयकारांक मुक्त करतलें. पंदरा ऑगस्ट येताले आनी वताले. गोंयांत मात कांयच घडना आशिल्लें.

असोच १५ ऑगस्ट १९५४ हो दिस उजवाडलो. भारतांतल्या सत्याग्रहींनी ह्या दिसा गोंयांत येवून सत्याग्रह करपाचें थारायलें. गोंयच्या शारां-शारांनी लोक आस्त बाळगून आशिल्ले कीं आज तरी भारतीय सेना येतली आनी आमी पुर्तुगेजांच्या तावडींतसून मुक्त जातले. गोंयच्या शिमेकडल्या गावांत रावपी लोक गांव खाली करुन भारताच्या हद्दीत वताले. बाळा पर्येकार ह्या सुटके झुजाऱ्यान तांका विचारले, 'आरे तुमीं किद्याक गांव खाली करुन, तुमचें सामान-गोरवां घेवन भारतीय हद्दीत वतात?' त्या लोकांनी उत्तर दिलें, फाल्यां भारतीय सेना येतली, गेर जातलें, म्हणून आमी आयजूच गांव खालीं करतात. ह्या लोकां इतलोच भंय पुर्तुगेज सैनिकांमदीय पातळिल्लो. ते सुद्धा बॉर्डरीवयले चेक पोस्ट सोडून ना जाल्ले. कांय गोंयकारांनी तर माराण विकते घेवन दवरिल्ले जाल्यार काय जाणांनी गांवांतल्या शिंप्याकडल्यान भारतीय तिरंगो शिंवून घेतिल्लो.

१५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा सगळे पुर्तुगेज अधिकारी लेगीत सत्याग्रहाच्या भिरांतीन आशिल्ले. पूण भारत सरकारान ह्या संदीचो

फायदो घेतलो ना. तेरेखोलच्या किल्ल्यार सत्याग्रहींनी हल्लो केलो आनी तो किल्लो ताब्यांत घेतलो. तांका पळोवन पुर्तुगेज सैनिक पळून गेले. पूण आमच्या सत्याग्रहींक मदत करपाक भारत सरकारान कांयच फौज धाडली ना. ताका लागून पुर्तुगीज सरकारान दुसरे दिसा तेरेखोल किल्लो परतून आपल्या ताब्यांत घेतलो.

त्या १९५४ सालच्या ऑगस्ट म्हयन्यात हांव मडगांवच्या राऊत मास्तराच्या शाळेंत शिकयतालों. हांव कांय म्हयन्यापयलींच गोंयांत आयिल्लों. हांगाची परिस्थिती पळोवन म्हजे रक्त खवळतालें. १५ ऑगस्ट ह्या दिसा सत्याग्रह जावपाचो आसा हें म्हज्या कानार पडलें. हो किदें करतलो तो किदें करतलो हाची वाट पळयनासतनां आपणे किदें तरी करपाक जाय अशें हांवें थारायलें. त्या दिसा सकाळफुडेंच हांव पणजे गेलो. पणजेच्या पालाशी मुखार हांवे एकट्यान भारतीय तिरंगो हुबयलो. पुर्तुगीज सैनिक धांवत आयले. हांव एकटो, म्हज्या वांगडा कोणूच ना. तांच्यानी म्हाका येथिश्ट मार बडय केली. १५ ऑगस्टाक भारतीय सैनिक येतले म्हणून भिवून आशिल्ले पुर्तुगेज सैनिक दुसऱ्या दिसाच्यान परत शींव कशें भोंवपाक लागले. १५ ऑगस्टाच्यान कादयेंत म्हाका पुर्तुगेज सैनिकांनी इतलो मारलो कीं त्या मारान चार-पांच दिसानीं म्हाका मरण आयलें. म्हाका मरणाचें कांयच दिसूंक ना, पूण वायट दिसलें तें आमच्या राजकीय नेत्यांचे. त्या वेळच्या मुंबय विधानसभेंत म्हज्या विशींचो प्रस्न चर्चेक आयलो. त्या चर्चेक जाप दितना, तेन्नाचे मुख्यमंत्री श्री. मोरारजी देसाय हांणी म्हणलें, "कोणें सांगिल्ले हाका गोंय मुक्ती लढ्यांत वांटेकार जा म्हणून?" हय, मोरारजी भाई, म्हाका कोणेच सांगूंक नाशिल्लें, आमच्या मांयभूंयेखातीर वावुरपाक आमकां सुटके झुजाऱ्यांक तुमच्या आमंत्रणाची गरज नाशिल्ली.

हांव जावन आसा विष्णूपंत वझे. तशें पळोवपाक गेलो जाल्यार बाकीच्या स्वातंत्र्यझुजाऱ्यां इतलें व्हड म्हजें कार्य ना; पूण जें सोसलां, भोगलां, तें तुमचे मुखार दवरनशें दिसता. हांव कोलवाळ गांवचो. कोलवाळच्या श्रीराम मंदिराचो हांव पुजारी. १९४९-५० ह्या वर्सांनीं गोंयच्या मुक्ती लढ्यान वेग घेतिल्लो. बांदा-सावंतवाडी हांगासून येवपी चळवळीचे कार्यकर्ते केन्नाय रातचे मुक्कामाक आमगेर येताले, रावताले. हांगसून मागीर दुसऱ्या रातीं ते पणजे, म्हापशां, फोंड्या अशें तांच्या कामाच्या जाग्यार वताले. १९५५ वर्सा गोंयच्या कांय पुलीस चौकीचेर हल्ले जाले. पुर्तुगेजांक म्हजेर संशय आयलो. हांव सुटके झुजाऱ्यांक मदत करता म्हणून म्हज्या कुटुंबाक खूब त्रास दिवपाक सुरवात केली. हांव गांव सोडून गेलो. म्हज्या गैरहजेरीत मौंतेर आमच्या घरा आयलो. म्हज्या बायलेक खूप मारली. तिच्या घडेर आशिल्ल्या आमच्या चलयेक ओडून शेंवटून मारली. आमी खूप त्रास सोंसले. जांव पूण गोंय मुक्ती चळवळीत आमचो व्हड न्हय पूण चानयेचो तरी वांटो आसा हाचेच समादान.

हांव, बाळा राया मापारी. अस्नोड्या ह्या गांवचो. अस्नोडा हो गांव दोडामार्ग ह्या गोंयच्या शिमेकडच्यान उणे धा किलोमीटर मेरेन. हांगाची तेन्ना बाजारपेठ व्हडली. हांगाच्या पुलीस चौकीचेर आर्मांय खूप आशिल्ली. म्हापसा, दिवचल मुखेल रस्त्यार ही पुलीस चौकी. अस्नोडच्या ह्या पुलीस चौकीचेर हल्लो करुन हांगाची सगळी शस्त्रां, आर्मां, कारतुसां पळून व्हरपाची आनी गोंय मुक्ती लढ्यांत ती वापरपाची अशी येवजण आमी सुटके झुजाऱ्यांनी आखली. आमच्या चळवळींतल्या फुडाऱ्यांनी हो हल्लो केन्ना, कसो करप हें सगळे वेवस्थीत थारायलें. हांव आनी म्हजे वांगडा गांवचे गोपलो, विठ्ठल नागवेकार हे वांगडी वांटेकार आशिल्ले.

१९५५ वर्साची ४ वा ५ फेब्रुवारीची तारीक अस्नोड्या पुलीस चौकीर हल्लो करपाक थारायली. त्या दिसा सांजवेळचेर मोहन रानडे, अनंत थळी, सुखा अशा सुटके झुजाऱ्यांनीं पुलीस चौकेर हल्लो केलो. त्या चौकेर दोन पुलीस आनी तीन खाकी भेसांतले सैनिक आशिल्ले. अकस्मात जाल्ल्या ह्या हल्ल्यान ते आबूज जाले. किदें करचें तेंच तांका कळूंक ना. आर्मी गांवचेच, ताका लागून आमकां कोणूय पळेत, वळखत म्हणून रानडे, थळी हांणी आमकां हल्ल्यावेळार चौकेर येवपाक दिलें ना. पूण ताणीं वेवस्थीत थारायल्या तशी येवजण पार पडली. तांच्या हाताक त्या राती दोन आर्मां, दोन पिस्तुलां, आनी कारतोशी लागलीं. सगळ्यान व्हडलीं गजाल म्हणल्यार पुर्तुगेज सरकारची पुलीस चौकी ताब्यात घेवन ताका कुलप लावपाचें काम ह्या सुटके झुजाऱ्यांनी केलें. हो पुर्तुगेजाक व्हडलो धपको आशिल्लो. त्या राती सगळी आर्मां मेळिल्ली, सगळी कारतोशी घेवन आमी सगळे रातोरात शिवोली हांगा गेले. दुसऱ्या दिसा सगळेकडेन पुलीस चौकेर जाल्ल्या ह्या हल्ल्याच्योच गजाली चालू आशिल्ल्यो. चौकेवयल्या पुलीसांनी आपल्याक लज जाता म्हणून 'राती पंचवीस जाणांनी चौकेर हल्लो केलो' अशी अफवा पसरायली.

अस्नोड्या चौकेर केल्ल्या ह्या हल्ल्या उपरांत तीन चार दिसांनी पुलीसांनी सुटके झुजाऱ्यांची धरपकड चालू केली. तांका म्हजेर संशय आशिल्लोच. म्हाका अटक केली. खूप मार-मार मारलो. हांवें तोंडातसून ब्र काडलें ना. आमी माल शिवोली व्हेलो ही गजाल तांका कळ्ळी. म्हाका शिवोले व्हेलो. परत थंय खूप मारलो. निमणे हांव बेशुद्ध पडलो. म्हाका पणजेच्या हॉस्पीटलांत घालो. त्याच बेशुद्ध अवस्थेंत म्हाका मरण आयलें. गोंय मुक्ती चळवळींत हुतात्मो जावपी हांव पयलो गोंयकार थारलो हाचो म्हाका अभिमान आसा.

१५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसा जावपी सत्याग्रहांत फकत गोंयकारांक वांटेकार जावंक मेळटले असो एक आदेश भारत सरकारान काडलो आनी हेर भारतीय सत्याग्रहींक नाउमेद केले. तेन्नाच दादरा आनी नगर हवेली जाल्ल्या घडणुके उपरांत पुर्तुगेज सरकारान गोंयांत येवपी भायल्या लोकांक पासपोर्ट आनी व्हिसा गरजेचो केलो. ह्या तांच्या नेमाक लागून उरफाटी जाप म्हणून, भारत सरकारान गोंयांतल्यान भारताच्या हद्दीत प्रवेश करपी गोंयकारांक पासपोर्ट, व्हिसा गरजेचो केलो. भारताच्या ह्या निर्णयाक लागून गोंयांभायर शिकपाक वा हेर कामाक वचपी गोंयकारांचे मात व्हड नुकसान जाले. फकत पुर्तुगेज सरकारान घेतिल्ल्या निर्णयाक लागून, बादाबाद करपाक आपणे घेतिल्लो निर्णय कितलो चुकीचो हे भारत सरकाराच्या लक्षांत येवूंकूच ना. इतलेंच न्हय तर गोंय हो भारताचोच भाग जावन आसा ह्या आपल्या

भूमिकेविरुद्ध हो निर्णय आसा हें तांका केन्ना समजलेंच ना.

हांव कर्नालसिंग बेनीपाल. भारतांतल्या पंजाब राज्यांतलो. १५ ऑगस्ट १९५४ ह्या दिसाचो सत्याग्रह अपेशी थारलो. लोकांमदीं निराशा पातळ्ळी, भारतांतल्या देशप्रेमी नागरिकांनी मात गोंय मुक्ती खातीर परथून एकदां सत्याग्रह करपाचें थारायलें. १५ ऑगस्ट १९५५ ह्या भारताच्या स्वातंत्र्यदिनांक जावपी हो सत्याग्रह अहिंसक आणि निशस्त्र आसतलो हाची आमी जतनाय घेतली.

भारताच्या विंगड विंगड वाठारांतल्यान येवपी ह्या सत्याग्रहींचे तीन पंगड केले. एक उत्तरेकडल्यान भितर सरतलो, एक दक्षिणेकडल्यान, एक पुर्वेकडल्यान, त्या शिवाय रेल्वे आनी बोगद्यांतल्यान कांय कार्यकर्ते गोंयांत शिरतले अशी आंखणी केली. हांव पत्रादेवी हांगासावन गोंयांत प्रवेश करपी पथकांत आशिल्लो. दोन दिसांपयलीं आमी सावंतवाडी शारांत जमा जाले. सगळे कार्यकर्ते आपली स्वतःची पदरमोड करुन, ट्रक, बसी, रेल्वे असे मेळटा ते वाहन घेवन हांगा पाविल्ले. हजारांनी लोक सावंतवाडी शारात उमेदीन वावुरताले.

१५ ऑगस्ट १९५५ ची सकाळ. आमी सगळे पत्रादेवी चेकपोस्टार पावले. आमी देड-एक हजार सत्याग्रही तर आमकां आडावपाक फकत दहा बंदूकधारी सशस्त्र पुर्तुगेज पुलीस. त्या पुलिसांक तांच्या अधिकाऱ्यांनी सांगिल्ले की तुमी पयली सत्याग्रहींक तोंडान शिटकावणी दिवपाची, तांच्यानी आयकूंक ना जाल्यार तीन फावट हवेंत गोळीबार करपाचो, इतलेंय करुन सत्याग्रही थांबनात जाल्यार जमनीर गुळयो मारपाच्यो आनी सगळ्यांत शेवटाक, परिस्थिती हाताभायर गेली जाल्यार सत्याग्रहींचेर शस्त्र चलोवपाचें.

१५ ऑगस्टाक सकाळीं आमी सत्याग्रहींनी 'भारत माता की जय', 'वंदे मातरम', 'गोंयचो जयजयकार' करीत गोंयांत भितर सरल्या मात, त्या निर्दयी पुलिसांनी गोळीबार करपाक सुरवात केली. कांयच शिटकावणी दिना आसतना केल्या या गोळीबारांतली पयली गुळी मध्य प्रदेशांतसून आयिल्ली सहोदरा राय सागर हांका लागली. ती जखमी जावन थंयच कोसळ्ळी. अचकीत जाल्ल्या ह्या गोळीबारान सगळे सत्याग्रही चवताळ्ळे. हांव तर रागान खवदळ्ळो. बंदूक आशिल्ल्या पुर्तुगेज सैनिकामुखार वचून उबो रावून हांवे शर्ट पिनलो, हड्डे फुडे काडलें आनी ताका आव्हान दिले, चलय म्हजेर गुळी. त्या निर्दयी सैनिकान फाटलो फुडलो विचार करीनासतना गुळी चलयली. हांव थंयच रक्ताच्या व्हाळान कोसळ्ळो. म्हज्या देशाखातीर शहीद जालों. भगतसिंग, राजगुरु हांच्यावांगडा केन्ना तरी कोण तरी मनीस याद काडतलो हीच म्हाका खोश्शी.

हांव पन्नालाल यादव. आत्तांच तुमी कर्नालासिंगान सांगिल्ली गजाल आयकली. हांवूय त्या सत्याग्रहांत वांटेकार आशिल्लो. हांव राजस्थानच्या रामगंजमडी गावांतलो, जातीन हरीजन. आमच्या देशाचो भाग आसुनूय बी पारतंत्र्यात आशिल्ल्या ह्या गोंयच्या सुटकेखातीर हांव १५ ऑगस्ट १९५५ च्या सत्याग्रहांत वांटेकार जाल्लों. पूण त्या उरफाट्या काळजाच्या पुर्तुगेज सैनिकांनी जनावरांक मारता तश्यो गुळ्यो घालून म्हाका जीतो मारलो. आमच्या राजस्थानाक देशप्रेमाची, आपल्या मायभूंयखातीर जीव पणाक लावपाची व्हड परंपरा आसा. गोंय मुक्ती चळवळींत वांटेकार जावन म्हजो प्राण ह्या मांयभूंयखातीर अर्पण करुन हांवे ती परंपरा पाळली हाजोच म्हाका आनंद आनी अभिमान.

हांव पोंबुर्फेचो बाळकृष्ण भोसले. पोंबुर्फा हो गांव मांडवी न्हंयच्या देगेर वसला. एका वटेन दाट रान, दुसऱ्या वटेन मांडवी न्हय आनी न्हंयच्या देगेकसून बेती मेरेन वचपी रस्तो. हांगच्यान म्हापशां लागीं आनी बेती गांव लागी. पोंबुर्फेचे दाट रान आमकां आमच्यो कारवायो करुन जातगीर आडोस घेवपाक बरें पडटाले. ताका लागून सुटके झुजाऱ्यांचो तळ ह्या गावांत आशिल्लो.

बेती पुलीस चौकी शस्त्रांनी गिरेस्त आशिल्ली. ताका लागून बेती पुलीस चौकेर हल्लो करुन ती शस्त्रां ताब्यात घेवपाची येवजण आमीं आंखली. मोहन रानडे, आमचे सुटके झुजारी वांगडी आनी हांवे १९५५ वर्साच्या ऑक्टोबर म्हयन्यांत बेतीं पुलीस चौकेर हल्लो करपाचे थारायले. २२ ऑक्टोबराक आमी बेतीं हांगा वचून सगळी पळोवणी केली. कोणे कितल्यांक येवपाचे, कोणे चौकेर भितर वचपाचें, कोणे भायर रावपाचें हें सगळें थारायलें. ह्या चौकेर पांच शिपाय आनी एक हेड कॉन्स्टेबल आशिल्लो. शस्त्रांनी पांच-स आर्मां, स्टेनगन, कारतोशी आमकां मेळपाची शक्यताय आशिल्ली. ताका लागून मोठ्या आशेन आमी सगळ्यांनी ह्या हल्ल्याची तयारी केली. म्हज्या वांगडा शिवलिंग भोसले, सुखा शिरोडकर, रघुनाथ शिरोडकर, मनोहर पेडणेकर हे आमचे वांगडी आशिल्ले. २६ ऑक्टोबर हो दिस दसऱ्याचो. ह्या दिसा सांजवेळचेर आमी बेती पुलीस चौकेर हल्लो केलो. बेती हो पणजे ह्या राजधानी शारा मुखावेलो गांव. बेती पुलीस चौकी पालाशीच्या सामकार ह्या पुलीस चौकीर हल्लो म्हणजे पुर्तुगीजांक व्हडलो धपको आशिल्लो. आमचो हल्लो येसस्वी थारलो. चौकेतलीं शस्त्रां आमच्या हाताक लागलीं. ह्या हल्ल्यात आमचो नेतो मोहन रानडे गुळी लागून जखमी जालो. ताका पुलीसांनी अटक केली. आनी हॉस्पीटलात घालो. आमीं सगळे हाताक लागला तो माल घेवन पोंबुर्फेच्या रानांत परत आयले. हो माल आमच्या सशस्त्र लढ्यात आमकां वापरुंक मेळ्ळो.

मदीं १२-१४ म्हयने गेले. आतां परत चळवळीखातीर शस्त्रां जमोवपाक जाय आशिल्लीं आमी आनीक एक पुलीस चौकेर हल्लो करपाचो यत्न केलो. पूण तो हल्लो यशस्वी थारलो ना. तो हल्लो करुन येतना बाजारांत आमची पुलीसावांगडा चकमक जाली. त्या चकमकींत म्हाका पुलीसांची गुळी लागली आनी मरण आयलें. म्हज्या मोगाळ मांय भुंयेखातीर म्हज्या जीणेचो कितें तरी उपेग जालो ह्या आनंदात हांवे निमणो श्वास घेतलो.

म्हाका मरण आयलां तेन्ना मोहन रानडे कादयेंत आशिल्लो. म्हज्या प्रेताची वळख करपाक, खात्री करपाक पुलीसांनी ताका म्हजें प्रेत दवरला त्या हॉस्पीटलात हाडलो आनी प्रेत वळखुपाक सांगले, ''हो बाळकृष्ण भोसलो'' रानडेन तांका सांगलें. त्या बरोबर ''बंदीद्'' अशें आड्डी मारीत त्या क्रुरकर्म मोन्तेरान म्हज्या प्रेताच्या कानपटार थापट मारले. तांका म्हजो कितलो राग आशिल्लो, ते म्हाका कितले भियेताले हे तांतल्यान दिसून येताच आनी पुर्तुगेजांच्या नीच संस्कृतीचे दर्शनूय

जाता.

हांव मनोहर आपटे... किदें वळखूंक ना म्हाका! तुमी कशे वळखतले! मनोहर आपटे गोंय मुक्ती चळवळींत वांटेकार जालो तो मोहन रानडे ह्या नांवान! हय हांवूच तो मोहन रानडे. वयर तुमकां बाळकृष्ण भोसलेन बेती पुलीस चौकीचेर हल्ल्याची गजाल सांगली. त्या हल्ल्यांत हांव जखमी जालो. म्हाका हॉस्पीटलांत घालो आनी मागीर कादयेंत उडयलो. पुर्तुगेज सरकारान म्हजेर राष्ट्रद्रोहाचो खटलो भरलो. आरोप पत्रांत म्हजेर आरोप आशिल्लो 'गोंय, दमण आनी दीव पुर्तुगालापासून तोडून भारतांत विलीन करपाचो यत्न.'' हांवे त्या आरोप पत्रांत दुरुस्ती केली '...भारतांत परतून विलीन करपाचो यत्न. परतून हो शब्द अधोरेखीत केलो. १९५६ सालाच्या डिसेंबर म्हयन्यांत म्हाका पुर्तुगीज न्यायालयात २६ वर्सांची ख्यास्त सुनायली आनी २२ ऑगस्ट १९६० ह्या दिसा फुडली ख्यास्त भोगपाक म्हाका पुर्तुगालाक धाडलो.

पुर्तुगेज सरकारान सुनायिल्ली ख्यास्त भोगपाक हांवूच न्हय तर सगळे सुटके झुजारी सदांच तयार आशिल्ले. आमकां मरणांचे, कादयेचे केन्नाच भंय दिसूंक ना. पूण वायट दिसलें तें आमकां राजकैद्यांक भारत सरकारान ज्या तरेन वागयलें ताचे.

जो दिस पळोवपाक आमी हो सगळो खटाटोप करताले तो दिस उदेलो. १९ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा गोंय पुर्तुगेजांच्या तावडींतसून मुक्त जाले. आमकां सगळ्यांक उपाट खोस जाली. आतां पुर्तुगेजांच्या कादयेंत पुर्तुगालांत ख्यास्त भोगपी आनी राजकैदीय मुक्त जातले अशी आमकां आस्त आशिल्ली. पूण गोंय मुक्ती उपरांत पुर्तुगीज सैनिकांक आनी अधिकाऱ्यांक मानवतावादी दृश्टीकोणान रोखडेच सोडपी पंडित नेहरु सरकारान, पुर्तुगीज कादयेंत सडपी आमकां राजकैद्यांक सोडपाक मात कांयच यत्न केलो ना. निमणे म्हजो आमीग, संगीतकार सुधीर फडके हाणे 'मोहन रानडे विमोचन समिती' स्थापन केली. सुधीर फडके, म्हजो बालमित्र बापू साठे, पुर्तुगालांतलो गोंयकार आदवोगाद शंकर (प्रीती) कामत, पुर्तुगालांतले मेक्सीकन दूतावासातले अधिकारी, आंतरराष्ट्रीय रेड क्रॉस हांच्या जोड पालवान २५ जानेवारी १९६९ ह्या दिसा म्हजी मुक्तताय जाली. गोंय मुक्त जातगेर सात वर्सां हांव पुर्तुगेज कादयेंत खितपत पडलो आमच्याच सरकाराच्या नाकर्तेपणाक लागून.

हांव दोतोर तेलु द माश्कारेन्यश. बाब मोहन रानडे वयर सांगता ते सामके खरें. तो ज्या पुर्तुगालच्या कशियश कादयेंत आशिल्लो त्याच कादयेत हांवूय बी आशिल्लों. १९ डिसेंबराक गोंय मुक्त जाले हें आमकां २१ डिसेंबराक कळ्ळें. आमकां दोगांयकय खुब्ब खोस भोगली. आमीय आता कादयेंतल्यान सुटून आमच्या मांयभूंयेत वचपाक मेळटले ह्या आशेन आशिल्ले. पूण आमच्या इंडिया गव्हर्नमेंटात आमच्या पासत कांय करुंक ना. हांव एक राजकैदी. १९५८ वर्सा हांवे जे दिसाळ्यांनी लेख बरयल्ले वा ऑल इंडिया रेडिओचेर भाशणां केल्लीं तीं न्यायालयांत सादर करुन म्हाका कादयेंत उडयलो. म्हाका २४ वर्सांची ख्यास्त जाल्ली. काय वर्सांनी मोहन कादयेंतल्यान सुटलो. पूण म्हाका मात आनी वर्सभर कादयेंत काडचें पडलें. निमणे १९७० वर्सा पाद्री चिको मोंतेरो हांका भारतातल्यान पुर्तुगालाक धाडचेवेळार ताच्या बदलाक म्हाका पुर्तुगालच्यान गोंयांत धाडलो, म्हजी मुक्तताय जाली.

अशे आमी कितले तरी सुटके झुजारी आसात. आपल्या घरच्यांची पर्वा न करता ह्या चळवळीत वांटो घेवपी मित्रा बीर, शारदा सावईकर, सिंधु देशपांडे, सुधाताई जोशी, ब्रांगाझा भयणीं, वत्सला किर्तनी अश्यो अस्तुरी आसात. बाळा पर्येकार, दासू चाफाडकार, येशी आगरवाडेकर, म्हाबळू नाईक सारके तरणाटे आसात. सगळ्यांच्यो आपापल्या कार्याच्यो काणयो आसा. त्यो सगळ्यो तुमकां सांगूंक बसले जाल्यार वर्सां वतली. आमी ही वयर सांगल्या ती कर्तृत्वां आमच्यो बढायो मारुंक सांगूक ना, तर तुमकां परतून एकदा जागे करपाक लागून सांगल्यांत.

पुर्तुगेज गोंयांतल्यान गेले. तांची आमची दुस्मनकाय सोंपली. भारत सरकारान लेगीत १९९२ वर्सा प्रजासत्ताक दिना निमतान पुर्तुगेज राष्ट्राध्यक्षाक मुखेल सोयरो म्हण आपयलो. बरी गजाल आसा. पूण अजुनूय कांय लोक पुर्तुगीजांच्या अत्याचाराची उगडास काडपी सुवाळो करपाक सोदतात. २०१० सालात आफांसो दी अल्बुकेर्क गोंयांत आयिल्ल्याक पाचशें वर्सां जाल्ल्याचो सुवाळो मनोवपाचो सरकारचो विचार आशिल्लो. आमी ताका खर विरोध केलो. २०१४ वर्सा गोंयांत 'लुसोफोनिया गेम्स' जाल्यो. आरे 'गोंय' काय पुर्तुगीज उलोवपी प्रदेश न्हय. आनी ते स्वतंत्र राष्ट्र लेगीत न्हय. मागीर गोंय राज्य लुसोफोनिया संघटनेचो सदस्य कसो जावपाक शकता हें तुमीं सरकाराक विचारुक जाय. गोंयांत काम करपी बऱ्या गजालींक, संघटनांक आमचो केन्नाच विरोध ना, पूण गोंयच्या हिताविरुद्ध काम करपी वावुरप्यांक आमी विरोध करतले.

आयज आमी शरीरान जरी तुमच्या मदीं नासले तरी आमचो जीव गोंयांत घुटमळता. आमी ज्या गोंयाखातीर प्राण अर्पण केले, त्रास भोगले तें हें गोंय न्हय. तुमी सोबीत गोंय काबार केलां. पांचवोचार सैम ना केला. विकास विकास करीत गोंय भकास केला. सी व्ह्यू, बीच व्ह्यू, रिव्हर व्ह्यू जाय म्हणून दोंगर ना केल्यांत, मीन काडून जंगला ना केल्यात, रस्तो, विमानतळ बांदूंक शेतां भाटां इबाडल्यांत. गोंय, गोंयकार, गोंयकारपण हें फकत वेंचणुके पुरतेंच उरलां. आमचें हे गिरेस्त दायज सांबाळून दवरात. आमची भाटां-बेसां, शेत-जमनी, सैम इबाडूं नाकात. एकदां हें इबाडलें काय परत तें जावंचे ना, एकदां जमनी विकल्यो काय परतून त्यो आमच्या हाताक लागच्योना. आमचो सैम, आमचें दायज, आमची भूंय आमी गोंयकारांनीच राखून दवरुंक जाय. आमी गोंयकारांनीच सांबाळूंक जाय. ताका लागून गोंयकारांनो! परतून एकदां जायात जागे.. जायात जागे..

तुमचे बरें मागपी,
**गोंय मुक्ती लढ्याचे**
**ज्ञात - अज्ञात सुटके झुजारी.**

संपर्क: 9665876860

***



# रेशा, रंग आनी आकार

**माधव बोरकार**

वामन अनंत सिनाय नावेलकार हांची वळख तांच्या चित्रांतल्यान जाली तेन्ना हांव म्हज्या तरणेपणाच्या हुमऱ्यार आशिल्लो. हांवें तशीं केन्ना चित्रां काडलीं ना तरी चित्रां पळोवपाक म्हाका खूप आवडटालें. ताचो फुडलो पांवडो म्हळ्यार त्या चित्रकारां सबंदान जाणा जावन घेवप. १९७१ वरसा इंस्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझ हे संस्थेक शंबर वरसां पुराय जालीं तेन्ना ताणी वेगवेगळ्यो कार्यावळी आंखिल्ल्यो तातूंत गोंयकारांच्या चित्रांचे एक व्हडलें प्रदर्शन आशिल्ले. शांताराम आमोणकार हाणी ते क्युरेट केल्लें. ह्या प्रदर्शनांत गोंयच्या चित्रकलेच्या गिरेस्त दायजाचें दर्शन घडलें. तातूंत त्रिंदाद, चिमुलकार, भौंसुलो हे चित्रकार आशिल्ले तेच प्रमाण ह्या मळावेले कांय अनवळखी चित्रकारुय आशिल्ले. तातूंत वामन नावेलकार हांचीं चित्रां लक्ष वेधून घेतालीं. ताचें कारण त्या चित्रांनी दिसपी आगळीं वेगळी शैली. मुखार तांचें एक प्रदर्शन आनी तांकां प्रत्यक्ष मेळपाची म्हाका संद मेळ्ळी. रवींद्रनाथ टागोर हो तांचो एक आवडटो कवी. टागोरांचे कवितांचेर ताणी कांय चित्रां काडिल्लीं. ते खातीर पेन आनी पेन्सील ह्या माध्यमांचो उपेग केल्लो. इंस्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझाच्या आर्ट गॅलेरींत हें प्रदर्शन जाल्लें. थंयच आमची पयली वळख जाली. वर्स खंयचें ताची मात याद जायना (ह्या प्रदर्शनाची याद चित्रकार सुहास शिलकार आजूय काडटा) मुखार ही वळख वाडत गेली ती तांचे अखेर मेरेन.

ह्या तांच्या प्रदर्शनांत कवितेच्या आशया बरबर मनांत उदेली ती नावेलकारांची रेशा. आनी मुखावेल्या काळांत पॉल क्लेचे रेशेकडेन संवकळ जातकच तांचे रेशेंत केदी ऊर्जा भल्ल्या हाची जाणविकाय वाडत गेली आनी तांचें व्हडपण जाणवत रावलें. रेशा ही तशें पळोवंक गेल्यार उत्स्फूर्त आसता. पूण ती तशी उत्स्फूर्त येवपाक तिचे साधनेची गरज आसता. आनी तशी अखंड साधना नावेलकार करीत रावले. ताका लागून तांचे रेशेंत सहजताय आयली अशें म्हणचें पडटा. हांवें पळयिल्ल्या त्या प्रदर्शनांत आनीक एक गजाल मुखेलपणान लक्षांत आयली ती म्हळ्यार तांच्या चित्रांचो आशय जरी भारतीय आसलो तरी तांची अभिव्यक्ती युरोपी बाज घेवन आयिल्ली. ताचें कारण तांचे चित्रकलेच्या शिक्षणांत होल्मता. ते तांच्या संवेदनक्षम पिरायेचेर पुर्तुगालाक गेले आनी भारतीय चित्रकलेच्या दायजा पासून पयसावले. देखीक मिनियेचेर शैली ही भारतीय चित्रकलेचें एक म्हत्वाचें खाशेलेंपण. ताचो प्रभाव तांचे चित्रकलेचेर जावंक पावंक ना.

चित्रकला ही नावेलकारांली सहज प्रवृत्ती अशें म्हणूंक जाय. सान पिरायेर सावन तांचें चित्रकलेकडेन नातें जुळून आयलें आनी मुखार ते घट्ट जायत गेलें. ती ह्या घराण्याची बड. तांचो व्हडलो भाव गणेश हो चित्रकार आशिल्लो. पूण ताका खूप भुरगेपणांत मरण आयलें. ताणें काडिल्लें दत्तात्रयाचें एक चित्र तांच्या पोंबुर्पेच्या घरांत आसा. तांचो दुसरो भाव दो. धाकू हेवूय चित्रकार. पूण ताणीं दोतोरकी शिकून कस्टम खात्यात नोकरी केली. आपले सरते पिरायेर आपल्या गावांतले जीणेचेर कांय सुंदर चित्रां काडलीं. तांकां जीणेचो शेंकडो हुपून मरण आयलें. भगवान नावेलकार तर उत्तम फोटोग्राफर आनी श्रीपाद ह्या तांच्या धाकल्या भावान खूप सुंदर Lanscapes केले. पूण चित्रकला ही आपली जीण मानून तिका आपली निष्ठा ओंपली ती वामन नावेलकारान. ते खातीर सगळे तरेचे हाल उप्राद्रे तांकां सोंसचे पडले ताची पर्वा ताणीं केन्ना केली ना. आपल्या मनांतले विचार आनी भावना फक्त आपली आवय वळखूंक शकताली अशें ताणी एकेकडेन म्हळां. १९५० वरसा ताणीं चारकोलान केल्लें एक रेखाचित्र्य पळोवंक मेळटा. हो तांच्या कुटुंबाविशीचो ल्हानसो तपशील.

नावेलकाराल्या चित्रांची शैली आनी हेर गोंयकार वा भारतीय

चित्रकारांचे शैली हांचेमदीं खूप अंतर आसा. ताचे फाटलीं कारणां तशींच आसात. तांकां त्रिखंडांतलो चित्रकार असें बिरुद प्राप्त जालां. ॲन केटिरिंग्म हे विदुर्शीन तांचेर "VAMON NAVELCAR AN ARTIST OF THREE CONTINENTS" हें पुस्तक बरयलां. ह्या अभ्यासपूर्ण पुस्तकांत केटिरिंग्म नावेलकाराली चित्रशैली काळ आनी अणभवाप्रमाण कशी बदलत गेली ताची चर्चा करता. सुरवेचो काळ हो गोंयांतलो. तातूंत तांणी केल्ले निसर्गचित्रण आनी व्यक्तिचित्रण. ह्या काळांतलीं ताचीं चित्रां पळोवपाक मेळनांत. चड करुन तांणी केल्ले गोव्हेर्नोदोर बॅर्नाद गॅदीश हांचें व्यक्तिचित्र. ताका लागून तांकां पुर्तुगालाक वचून कलेचें शिक्षण घेवपाची संद मेळ्ळी. हें व्यक्तिचित्रण आपल्याक तंत्राचे नदरेन जमूंक नाशिल्लें हाची जाणीव तांकां पुर्तुगालात शिकतना जाली. व्यक्तिचित्रणांत शरीरशास्त्राचो अभ्यास म्हत्वाचो आसता. ते भायर व्यक्तीचे कातीचो पोत रंगांतल्यान धरप तांकां सुरवेच्या काळांत जम नाशिल्लें. ते भायर तांची रेशाय सशक्त नाशिल्ली. पूण रेशेच्या रियाजान तांणीं आपले रेशेचेर प्रभुत्व प्राप्त केलें. ज्या अभ्यासाची सुरवात पिरायेच्या वीस वरसां भितर जावंक जाय ती सुरवात उसरां म्हळ्यार तेवीस चोवीस वरसांचेर जाली. अशें आसलें तरी खर कश्ट उसपून जाल्लें नुकसान ताणी भरुन काढलें. दुसरें म्हळ्यार तांची कलेचेर आशिल्ली निश्टा. कलेच्या शिक्षणांत कलावंताचो फायदो जाताच अशें ना. अशें शिक्षण घेवन सगळेच चित्रकार जावंक पावता अशेंय म्हणपाक मेळना. पूण एखाद्या संवेदनशील चित्रकाराक कलेकडेन पळोवचेली नदर प्राप्त जाता. नावेलकारालें कलेचे शिकप सुरु जालें तेन्ना युरोपांत कलेच्या मळार वेगवेगळे 'इझमस' चलताले. तांची वळख जावंक पावली आनी तातूंतल्यान कलेकडेन पळोवंचेली नदर तांकां आयली. तांच्या चित्रांचे शैलीचो अभ्यास केल्यार 'इंप्रेशिनिझम' आनी 'क्युबिझम' ह्या दोन प्रवाहांचो परिणाम तांच्या चित्रांचेर जाल्लो पळोवंक मेळटा. क्युबिझमाचे प्रवर्तक पिकासो आसले तरी हे शैलींत चित्रां रंगोवपी ब्राक तांकां चड लागींचे दिसतालें. ह्या दोनूय चित्रकारां मदलो पिकासो हो तांकां प्रिमटिव्ह दिसतालो तर तांच्या मतान ब्राक तुळेन सौम्य आनी अदिक लिरिकल. ब्राका इतलोच मातीस होय चित्रकार तांकां भौव मानवतालो. मातीसाच्या चित्रांच्या आशयापरस ताच्या रंग रंगवोपाच्या तंत्राचो अभ्यास ताणी केल्लो दिसता. युरोपाचे भोंवडेत नावेलकारांक ह्या सगळ्या चित्रकारांच्यो कलाकृती तांच्या मूळ रुपांत पळोवन तांचो अभ्यास करपाची संद मेळ्ळी आनी ताचो तांचे कलेचे उदरगतीक पोसवण मेळ्ळी. तांच्या उलोवपांत भारतीय चित्रकार चुकून येताले.



***वामन नावेलकार हाणीं काडिल्लें रविंद्रनाथ टागोर हांचे पोट्रेट.***

पूण कलेसंबंदान आपलो मुद्दो स्पष्ट करपाक ते ब्राक, मातीस वा पिकासो हांचो संदर्भ दिताले. हाचें एकूच कारण तांची सुरवेक सावन युरोपी कला परंपरेन जाल्ली वाढ आनी ताणीं आपले भितर आस्पावन घेतिल्ले संस्कार. रवींद्रनाथ टागोर आनी गायतोंडे हे मात आडवाद कशे. चित्राचो आशय आनी तंत्र हे दोनूय नदरेन रवींद्रनाथ श्रेष्ठ चित्रकार अशें तांचें मत आशिल्लें. टागोराल्या चित्रांतले सैम आनी रेशा हातूंत एके तरेचें निरागसपण तांचें लक्ष वेधून घेतालें. गायतोंडे हे तांकां भावताले तांचे अमूर्त शैलीक लागून.

नोकरेच्या निमतान तांच्या जीविताचीं कांय वरसां ताणीं आफ्रिकेक सारलीं. ह्या कालखंडांत तांचे शैलीचो आनी एक वेगळो रुपकार दिसता. थंयच्या सामान्य मनशांची जीण तांच्या चित्राविश्कारांत दिसपाक लागली. हांगाच्या मनशांच्या चित्रांत तांची रेशा जोरकस दिसता. दाट ओठांची आनी अरुंद कपलां आशिल्ली हीं मनशां. तांचे दोळे स्पश्ट दिसनात. हांगाचो आगळो वेगळो सैम ताणीं चित्रायलो. पूण दुर्दैवान तांच्या चित्रांची बॅग एका विमान प्रवासांत शेणली. आनी हो मोलादीक ठेवो सासणाचो ना जालो. तांच्या ह्या नुकसानाची कल्पना करुं नज. चित्रकार ताचे आनी कुशीक आशिल्ल्या वातावरणांतल्यान चित्रांची निर्मणी करता आनी ते प्रमाण ताची शैली आकार घेता.

रेशा, रंग आनी अवकाश हे चित्राचे मुळावे आनी म्हत्वाचे घटक आसतात आनी तांच्या सुमेळांतल्यान चित्रांची निर्मणी जाता. हे तिनूय घटक नावेलकाराच्या चित्रांनी दिसतात. रेशा ही तांच्या चित्रांची खरी ऊर्जा. ते रेशेकडेन सहजतायेन खेळटात. तिका ते आपल्याक जाय बागयतात, नाचयतात आनी खेळयतात. ताका तसोच रियाज लागता. ह्या संदर्भात जतीन दासान आपलो अणभव सांगला तो असो, कलेची विद्यार्थी आसतना ते दिसाक कमीत कमी पन्नास रेखाटनां करताले. आनी आजूय दिसांतल्यान कांय रेखाटनां केले बगर तांकां सूख लागना. नावेलकारांची तीच धारणा, वेगवेगळ्या आकृतायेचीं रेखाटना ते अखेर मेरेन करीत रावलें.

कांय दसकां युरोप, आफ्रिकेंत सारुन ते आपल्या गांव घरा परतले. आनी तांचे कला जीणेचो नवो अध्याय सुरु जालो. क्रिस्ता बराबर गणेशाच्यो प्रतिमा तांच्या चित्रांनी येवपाक लागल्यो. खांडोळेचो गणपती हे तांचे तशें कुलदैवत. तेच बराबर कृष्णाची प्रतिमा तांच्या चित्रांनी येवंक लागली आनी हे प्रतिमेक अर्थाचे नवें परिमाण ताणीं दिलां. ह्या संदर्भात तांच्या एका चित्राचो खाशेलो उल्लेख करतां. त्या

***(पान २४ चेर)***



## एक अद्वितीय, राष्ट्रीयत्वाचें तत्व आपणावपी रंग-रेशांचो आंतरराष्ट्रीय कलाकार

# वामन अनंत सिनाय नावेलकार

**श्रीधर अनंत कामत बांबोळकार**

विसाव्या शतमानाच्या सुर्वेच्या काळांत पुर्तुगेज सत्ता हे भुंयेर आसतना गोंयच्या कलाकारांक अभिजात कलेची भूक भागोवपाक वा शिकपाक आनी नामनां जोडपाक पुर्तुगाल वा लागसल्ल्या ब्रिटीश--इंडियेत वचचें पडटालें. मुंबयत सर जे. जे. स्कूल आर्ट ह्या महाविद्यालयात चित्रकलेचे शिक्षण घेवपाक शक्य जातालें.

आमी जेन्ना गोंयचे तीन नामांकीत आधुनिक समकालीन चित्रकारांची नांवां घेतात तेन्ना मुखेलपणान लक्ष्मण पै, एफ.एन. सौझा आनी वासुदेव गायतोंडे हांचीच नांवा घेतात; ती योग्य आसाच, खरें म्हणल्यार हे वळेरींत तांच्याच तोडीचे वामन नावेलकार हे चित्र निर्मिती करून आंतरराष्ट्रीय थराचेर नामनेक पाविल्लो एक अद्वितीय गोंयकार चित्रकार. तांचो जल्म ०५ मे १९३० वर्सा बार्देस तालुक्यांतल्या पोंबुर्पा गावांत. सदांकाळ सैमान, फुलां-फळांनी आनी न्हंयच्या देगेचेर वशिल्लो सोबीत सुंदर सैमीकतायेन नटिल्लो गांव. अश्या सैम-सुंदर गांवांत जल्माक येवपी मनश्याचे मन कला-सक्त जावपाक वेळ लागना. भुरगेपणांसावन वामन नावेलकाराक ह्या गांवच्या सैमान आनी पारंपारीक दायजान नक्कीच भूल घाल्या आसूंकच जाय आनी कलेंत प्राविण्य दाखोवपाची उर्बा तांकां लाबिल्ली आसतली. तो जल्माक आयिल्लो तेन्ना गोंयांत पुर्तुगीजांची सत्ता आसली.

ताणी आपले मुळावें शिकप गोंयांत आनी उपरांत, पुर्तुगाल, मोझांबीका हांगा घेतलें. तरणाटेपणांत, नावेलकारान समाजाच्या पूर्वग्रहदूषित वृत्तीक, खास करून जातीव्यवस्थेकडे संबंदीत गजालींकडे वागपाक न्हयकार दिल्लो, उंचेल्या जातीचो आसुनय ताका धर्मांदता सहन जाय नासली. पिरायेच्या १२व्या वर्सा, एका इश्टाच्य एक धार्मिक समारंभा उपरांत ते जेवपाक बसले, तेन्ना ताका मंदीर सोडपाक सांगलें, तेन्ना नावेलकार तांच्या वांगडा थंयच्यान उठून गेलो.

पोंबुर्प्या ल्हानाचो व्हड जातना, ताणे सदांच चित्रकलेंत रुच दाखयली. ताका कागदांच्या कुडक्यांचेर आनी कॅलेंडरांच्या फाटल्यावटेन रेखोवपाची संवय आसली. तेन्नाच ताच्या वडिलांनी ताका तापयलो. १९५३ वर्सा ताणे पुर्तुगालचे पंतप्रधान डॉ. आन्तोनियो दी ओलिव्हेर सालाझार हाचे चित्र रेखाटलें आनी थंयच पुर्तुगालाक प्रवास करपाखातीर शिष्यवृत्ती भेटयली. पुण, १९६१ वर्सा ताणें तें अनुदान वगडायलें. कारण, ताणें जवाहरलाल नेहरुंच्या गोंयच्या विरुद्ध केल्ल्या कारवायेचो निशेध करपी दस्ताऐवजांचेर सय केलीना. कारण राज्याक पुर्तुगीजांपासून मुक्ती मेळिल्ली, पूण दोन वर्सां उपरांत, नावेलकारांक गुलबेशियन फांवडेशनान अनुदान फावो केलें ज्याका लागून ताचें शिकप पुराय करपाक मार्ग मेळ्ळो. नावेलकारान ह्या संदीचो लाव घेतलो.

मोझांबिका शारांत तांणी शास्त्रशुद्ध चित्रकलेचें प्रशिक्षण घेवन

उपरांत आपलें Career घडयलें. पुर्तुगालाक शिक्षण पुराक करतकच, थंय ती कांय काळ राबितो करुन रावलो. ख्रिश्चन मानवाकृतींची चित्रां निर्मुंपाक लागलो. तातूंत तो फिशाल आसलो. थंय ताणें 'गणेश' हें नांव स्वतः लावन घेतलें. उपरांत एके घडणुके उपरांत ज्यांतूंतल्यान ताका पुर्नजल्म लाबिल्लेवरी दिसले आनी आपणाल्या व्हडल्या भावाचें नांव ताची स्मृती म्हूण आपणायलें. वामन नावेलकार एक गोंयचो राज्य खजिनो असो आसलो. ताका दोन खेप गुलबेकीयन प्रतिष्ठानची 'फेलोशिप' प्राप्त जाल्ली. (वर्स १९६३ आनी १९७१) आनी तांका एक आंतरराष्ट्रीय थरावयलो प्रतिशठेचो पुरस्कार प्राप्त जालो; ज्यातूंत ताचें चित्र आंतरराष्ट्रीय चित्रप्रदर्शनात 'मॉन्त कार्लीन... ' जंय ताणें 'ॲंगोच वुमन' हें पेन आनी शाई वापरून चित्रारलें. ताका 'Profile Master of Line' रेषा चित्रांचो 'मास्टर' असो मान फावो जालो. ताणें वणटी चित्रां, धातू चित्राचें, लाकूड आनी ग्लास वापरुन रचना निमिल्ल्यो आनी ताच्यो अश्यो कलाकृती वैयक्तीक (Private) म्युझियमांनी जगभर आसात.

तीन खंडांत काम केल्लो हो चित्रकार रेखाचित्रां काडपांत 'मास्टर' आसलो. ताच्या स्फूर्तीक काव्यासावन ख्रिश्चन कलेमेरेन सुवात आसात, जरी ताचें कार्य शास्त्रीय नदरेन धर्मनिरपेक्ष आसलें, तरीय वामन नावेलकार कितल्याश्याच दसकां उपरांत, 'आपणाल्या मायदेसांत परत येवपाक नाका आसलें' अशें दुःख उक्तायतालो असो हो अश्टताशी कलाकार आतां पुस्तकांचो विशय जाल्लो. एक 'डोक्युमेंटरी' आनी 'गोंय/पुर्तुगाल/मोझांबिक द मेनी लाइव्हस ऑफ वामोना नावेलकार' ताच्या १६ कलाकृतींचें Fundacao हांगा प्रदर्शन पणजेंत मांडिल्ले. ह्या प्रदर्शनाक उशीर जाल्लो म्हूण अजाप दिसता. अशें जायते जाणांचें मत जाल्लें.

चिंतेची बाब म्हणल्यार ताका राज्य वा भारतीय इतिहासांत ताचें जिणेचो प्रवास आनी चित्रांचो सोद घेवपी म्हूण मान्यताय मेळ्ळीना. ताणें भारतीय सौंदर्यशास्त्र, गोंयच्या गुंतागुंतीच्या भूतकाळाक वगळून कशें तयार केलें हे विशीं कितें तरी सांगता, किद्याक तर तें नावेलकारान चित्रित केल्लें.

ताणी सुर्वेक शिक्षक म्हूण वावर करतना मोझांबिकांत भूमिती शिकयली आनी उपरांत पुर्तुगाल आनी निमणे गोंयांत परत आयलो. ह्या सगळ्या सुवातांनी सामाजीक-राजकीय वातावरण तांच्या चित्रांनी दिसता.

नावेलकारान जगांतल्या कितल्याश्याच राष्ट्रांलागी इतिहासिक संबंद प्रस्थापीत केले – 'लुसोफीन' जगाच्या विंगड विंगड सांस्कृतिक प्रभावांचें पडबिंब दाखोवपाची तांची उल्लेखनीय क्षमता ही भूतकाळ गोंयांखातीर आयजूय कशी योग्य आसा हाचें समकालीन वास्तव दाखयता. तरीय, जायते खेप, ह्या प्रदेशाच्या राष्ट्रवादी संकल्पनेत गोंयची वळखीची पुनर्कल्पना कशी करप जाता, हो वारसो जाणीवपूर्वक कडेक दवरप जालां. पुर्तुगाल आनी मोझांबिका सारकेल्या सुवातांनी गोंय आनी गोंय हे भारतीय कशें आसात आनी कशें ह्या संदर्भात संकुचितपणान परीभाशीत केल्ले दिसता. हाका लागून, गोंयच्या समुद्र देगेवयल्या व्यवस्थापन म्हूण चित्रण जावपाची अदीक शक्यताय आसा. देखीक पणजेच्या Fundacao Oriente कला दालनांत जाल्ल्या प्रदर्शनात आनी बाकीचे प्रयत्न हे 'कलेतलो सौम्य दिग्गज' मनोवपाचो एक रस्तो जावन आसलो. कारण नावेलकाराचें वजन तांचें चरित्राक Anne Ketteringham हाणी २०१३ वर्सा Artist of Three Continents हातूंत केल्लें.

जेन्ना १९६३ वर्सा ते नोकरेच्या सोदांत मोझांबिकाक गेले आनी तांणी 'भुमिती आनी गणित' शिकोवपाक सुरवात केली, तरीय ताणीं चित्रां काडप आनी रंगोवप बंद केलेंना. २५ जून १९७५ दिसा, FRELIMO (Front for The Liberation of Mozambique) हाणी मोझांबिकाचो कारभार हातांत घेतलो आनी नावेलकारान हें जैत आफ्रीन समुदायावांगडा आपणाल्या विद्यार्थ्यांसयत एका पार्टींत मनयलो. पुण नव्या सरकारान ह्या हालचालींक समर्थन दिलेंना - ताका बाकींच्या वांगडा अटक केले आनी एका जंगलांतल्या इमला हे बंदखणींत सुमार ८० दीस दवरले. हांगाय नावेलकारान तांच्या चित्रांचो आलाशिरो मेळयलो आनी विद्यार्थ्यांच्या आदारान वण्टी चित्रां रंगयली.

एकदां बंदखणींतल्यान सुटका जातकच तो परत पुर्तुगालाक गेलो, पूण प्रवासांत आसतना ताची सुटकेस शेणली. ज्यातूंत कितलींशींच चित्रां आनी प्रमाणपत्रां आसली. ह्या घडणुकेचो ताचेर बरोच परिणाम जालो. ज्याणीं १९७० सावन 'गणेश' म्हूण काम केलें. 'ताका पुनर्जल्म घेवपाचो आसलो आनी एक नवें४ व्यक्तीमत्व परत घडोवपाचें आसलें. नावेलकाराच्या व्हडव्या भावाचें नांव – आदीं उल्लेख केल्ल्या प्रमाणे - गणेश आसलें आनी तांणींच तांच्या सुर्वेच्या काळांत रंग-कला आपणावची स्फूर्त दिल्ली.

नावेलकार १९८० च्या दसकांत गोंयांत परतलो; पूण ताका ताचें नीज हक्क केन्नाच फावो जालेंना आनी पुरायपणान हांगा ताचो ताका विसर पडलो आनी ताचें केन्नाच कौतुक जालेंना. तशेंच, हांगा- गोंयांत फॅशन आनी ट्रेंडी किदें आसता तें मनोवपाकडे आमचो कल आसता हें दिसलें. हाका लागून ताका खूब वायट दिसलें.

नावेलकार आपणाल्या मायदेसांत परत आयलो. पूण तो समादानी नासलो. गोंय मुक्त जातकच ह्या प्रदेशाचे सांस्कृतीक दायज-परंपरा आनी विशिष्ट इतिहास भारतीय आसपाचो अर्थ किदें? हाचे संकुचित चित्रण टाळप जालें. देखून ज्या कलाकारांचे काम रोकडेंच आशियाई, युरोपियन आनी आफ्रीकन आसलें; तो भारतीय म्हूण जायतसो विचार करप जालेंना.

अपूर्व कुलकर्णी सारकेलो कला समीक्षक नावेलकाराच्या चित्रकृतीचें वर्णन आधुनिक जागतिक किर्तीचे चित्रकार एफ.एम. हुसैन हांचे लागीं करता. नावेलकाराच्या कलात्मतेक अद्वितीय गोंय म्हूण वळखुपाचें हें सगळें वातावरण आसलें; कित्याक तर जे परिस्थितीक लागून ताचें स्थान विस्कळीत जाल्लें तें परिस्थितींत गोंयचें आयचे स्थान फावो जालां.

नावेलकारान राजकीय उदासिनतेचो दावो केल्लो स्वत:क ताच्या प्रतिभेच्या क्षेत्रांकडे आश्रयाखाला ताच्या शिक्षणाखातीर गेल्लो आनी आत्रेपैऱ्यान जावपी त्रास; कळाराचें जीवन आनी कलात्मकताय राजकीय जीणेसांवन केन्नाच वेगळो जालोना.

पुर्तुगालाक राजकीय नदरेन प्रेरित काळ्या यादीन वडोवप इतलें नुकसानीचे थारिल्लें की, ताका दुसऱ्या खंडांत नोकरी सोदपाक वचचें पडलें. ताचेकडेन दुसरो खंयचोच पर्याय आसलो.

वामन नावेलकार हे एक गूढ आनी अनुकरण करपासारखे 'रोल मॉडेल' आसले. तो ताच्या कलेक जसो आकार दिता तशी ताची कला आकार घेता. आर्विल्ल्या काळांत, जंय किर्ती आनी दुडू हें अंतिम सिदी म्हूण वळखप जाता; तो जीवीतभर ताच्या तत्वांक चिकटून रावलो आनी खंयच्याच राजकीय दबावामुखार वा नुकसानीच्या भंयाकडे ताणें दुर्लक्ष केलें. जायते कलाकार उपभोगवादी समाजाची पूर्ती करतात, पूण नावेलकार वयलेवयर करपाक न्हयकार दिताले. गांधी, बॅट्रॉड रसेल आनी येशू ख्रिस्ताचे ते प्रशसंक, हें स्पश्ट करतात आनी हें सत्य कलेंत अंतर्भूत आसांक फावो.

अमूर्त चित्रकार सुहास शिलकार हांणीं नावेलकारांविशीं ताची ओढ आनी रवीन्द्रनाथ टागोरांच्या कवितांचेर आदारित चित्रांची निर्मिती केल्ली. ह्या चित्रांनी ताका अमूर्ततेच्या दिकेन प्रवृत्त केलो. गोंयचो नामांकीत कला समीक्षक नागेशराव सरदेसाय हांणें नावेलकाराक कलेचे भीष्म पितामह म्हण मानान पाचारले. सचीन मदगे हांच्या हस्तुकी नावेलकाराची अर्धकृती तयार केली. वामन नावेलकाराविशीं कला संग्राहक शाईस्था थापर हांच्या नावेलकाराच्या प्रतिमेवांगडा प्रदर्शनांत दवरिल्ल्यो. उपरांत दोन पुस्तकांची पावणी केल्ली. उपरांत तीन मिनटांचो चित्रपट 'ग्रेट गोवन आर्टिस्ट फेस्टीवलाची' सांगता जाली. हे दोन तरणाटे एक विविधापूर्ण लांबायेची डोक्युमेंटरी करपाचे आसात. जी संवसारभर प्रदर्शित जातली.

अशे तरीन वामन नावेलकाराक गोंय वा भारतातच न्हय तर संसारांतल्या म्हान कलाकारांच्या वळेरींत आपणाली सुवात निर्माण केली. ताचें कौतुक जालांच; तांच्याविशींचे गिन्यान सगळ्यांक फांकोवया आनी हो खजिनो आमच्या मदे आशिल्ल्यांचो अभिमान बाळगुया. गोंयचो एक अद्वितीय उत्कृष्ट कलाकार म्हूण ताची नामनां पुराय संवसारभर दाखोवया.

ता. १८ ऑक्टोबर २०२१ ह्या दिसा तांणीं आपणाल्या जीवीताचो कॅनव्हास आनी रंगाचें पिशोल कायमचें सकयल दवरलें; स्वयंतेजान पर्जळपी हें सृजनशील नखेत्र गळून पडलें; फाटल्यान आकांताचे कला संचीत दवरुन... एक 'गणेश' आरती जावचे आदींच पाणयांत बुडून विरगळ्ळो. एक खंत उरली... नावेलकार हयात आसतना भारत सरकारचो प्रतिश्ठेचो पद्म पुरस्कार ताका लाबलोना आनी गोंय राज्याचो प्रतिष्ठेचो गोमंत भूषण लेगीत ताका प्राप्त जालो ना. निदान मरणोत्तर राष्ट्रीय सन्मान तांच्या वाट्याक येतलो अशी आस्त बाळगुया.

संपर्क: 9422451357

***






# हिप्नॉटिजमाचो जनक

**(भौ. उदय भेंब्रे हांचे 'कातर रे भाजी' हे आबे फारीया वयले कादंबरींतलो एक वांटो. कादंबरी २०२२ वर्सा उजवाडा येतली)**

**आबे फारीयाक संमोहन शास्त्राचो जनक म्हूण आज संवसार वळखता. तो गांवान कोलवाळचो. पुराय नांव जुजे कुश्तोदियु दे फारीय. रोमाक वचून पाद्री जालो. धर्मीक तत्वगिन्यान ह्या विशयांत डॉक्टरेट घेतली. लिज्बोआच्यान पारीसाक गेलो. फ्रेंच लोक पाद्रीक आबे म्हणटात. थंय तो आबे फारीय जालो. फ्रेंच क्रांतींत वांटो घेतलो. मागीर भूळविद्येचो अभ्यास, प्रयोग आनी पिडेस्तांच्या मानसीक रोगांचेर उपाय. भूल-न्हिदे फाटलें शास्त्र सोदून काडलें... एक खेपे तो गर्भमळीत जाल्लो तेन्ना बापायन म्हणिल्लें: कातर रे भाजी! तोच मंत्र जालो ताच्या सोदवावराचो...**

त्या दिसा पाद्री कायतान फारीय कॉन्वेंटांतल्यान बेगिनूच घरा आयलो. मुस्तायकी बदलून वॉल्तेरार बसलो. पाद्री जुजे घराच आशिल्लो. ताका दिसलें, पाय सुशेगाद आसा. बंडाचो विशय काडपाक हो वेळ बरो. पूण तो विशय कसो काडचो हे विशीं तो मात्सो गोंदळ्ळो. पायनूच तो प्रस्न सोडयलो. ताणें पुताक विचारलें,

'जुझे ज्योकीं विसेन्तीन बऱ्या मार्कांनी पदवी घेतल्या आतां फुडें कितें करुंक सोदता तो?'

'तो वाजेला. तोच न्हय; सगलेच वाजेल्यात-'

'कित्याक?'

'ते म्हणटात, हांगा आमकां वयर सरुंक मेळचें ना. गोंयांत आसा तितलें न्हय जायत. पूण पुर्तुगालांतूय तशेंच वातावरण आसा. म्हजीं इतलीं वर्सा फुकट गेलीं, तांचींय कांय वर्सा तशींच गेल्यांत.

'येवरोपांत दुसऱ्या खंयच्याय शारांत बरी संद मेळत अशें तुका दिसता तशेंच तांकांय दिसता?'

'हय, दर एकल्याक तशेंच दिसता. कांय जाणांनी इश्टांक चिटी बरोवन खबर काडल्या. हालीं आमी मेळटात तेन्ना त्याच विशयाचेर उलयतात. मात खंय वच्चें आनी केन्ना वच्चें तें थारना. पूण आतां सगल्यांकूच तिश्ठत लागल्या.'

'आतां तिश्ठत लागल्या म्हळ्यार कितें?'

'गोंयांत बंड जालें जाल्यार हांगा आमची धडगत ना अशें चडश्या जाणांक दिसता. पाय, तुका दिसता, बंड जायत?'

'पाद्री कौत आनी पाद्री गोंसाल्विश हांकां तोच एक मार्ग अशें दिसता. गोंयांत वचपाक भायर सरिल्ले तेन्ना तांचो निर्धार खर आशिल्लो. पूण गोंयांत तांकां कितलो तेंको मेळटा, भायले खंयचेय सत्तेचो आदार मेळटा काय कितें हाचेर सगलें आदारुन आसा.'

'तुका कितें दिसता, गोंयांतल्या लोकांचो बंडाक तेंको मेळटलो?'

'म्हज्यान सांगूंक जायना.'

'कित्याक? तुज्या अणभवान अदमास तरी करुंक जातलो.'

'पळय, आमी गोंय सोडलें ताका सोळा वर्सा जावन गेल्यांत. आमी गोंयांत आसतना बंडाची भास हांवें कोणाच्याच तोंडांतल्यान आयकूंक ना. तेंको जाय तो फौजेंतल्या थळाव्या अधिकाऱ्यांचो, थळाव्या पाद्रींचो, राजकारभारांत आशिल्ल्या कनिश्ठ गोंयकार अधिकाऱ्यांचो आनी सरसकट लोकांचो. त्या संबंदान परिस्थिती कितें आसा; भायली खंयचीय सत्ता पालव दिवंक तयार आसा काय कितें हें आमकां खबर ना. देखून अदमास करपूय कठीण जाता.' बंडाच्या परिणामां विशींचो

प्रस्न विचारपाक हो योग्य वेळ अशें पुताक दिसलें. चर्या निर्विकार दवरुन ताणें पायक म्हळें,

'पाय, समजुंया बंड जालें... त्या बंडाचें कितेंय जावं... ताचे परिणाम आमकां बादचे नात?'

'आमका? म्हणचे, हांव, तूं आनी तुजे इश्ट हांकां अशें म्हणपाचें आसा तुका?'

'तशेंच धर.'

'पुता, बंड जालें जाल्यार तें जातलें गोंयांत. आमकां हांगा तें कित्याक बादतलें?'

'ना, पाय, आमकां बादपाची भिरांत आसा.'

'तशें कित्याक म्हणटा तूं?'

'पाय, बंड जालें जाल्यार पाद्री कौत आनी पाद्री गोंसाल्विश ताचे फुडारी आसतलें. हें खरें न्हय?'

'हय, तें खरें.'

'ते ह्या शारांत सुमार चार वर्सा आशिल्ले. जायत्या फावटी ते आनी आमी हांगा मेळ्ळ्यात, उलयल्यात. तें सोड. तूं तांचे पासत वावुरला. तांचे वांगडा कांय प्रधानांक आनी कितल्याश्याच अधिकाऱ्यांक मेळ्ळा. तांचे पासत राणयेची भेट घेवपाचोय तुवें यत्न केला - '

'तूं सांगता तें सगलें खरें. पूण ताचे वयल्यान आमीय बंडवाले अशें थारता?'

'ना. तसो आरोप करुंक जावचो ना; पूण दुबावाचें सावट आमचेर येवंयेता.'

'कित्याक? तुवेंच तांकां बंड करपाची बुद्द दिली आनी हांगा जीं उलोवणीं जातालीं तातूंत बंडाचें कारस्थान शिजतालें असो दुबाव प्रधानांक आनी अधिकाऱ्यांक येवंयेता.'

'तेच भिरांतीन तुमी लिस्नोअ सोडपाचें थारायलां काय कितें?'

'ना, पाय. आमी पुर्तुगाला भायर वचूंक सोदतात ते आमचो फुडार घडोवपाक. तें बेगीन करपाची आमकां आतां तिश्ठत लागल्या ती मात बंडाच्या विशयाक लागून. पाय, तुवेंय ते भिरांती विशीं चिंतलें अशेंय आमकां सगल्यांक दिसता.'

'कित्याक, म्हाकाय धरुन व्हरत म्हणून?!' पाद्री कायतान व्हडान हांसलो.

'पाय, हांव भियेवन उलयना वो बेश्टोच हुस्को उक्तायना. आमी चिंतलां हाचेर. ह्या गोऱ्या लोकांचें चित्र काडूंक जायना.'

पाद्री कायतान परत हांसलो. मागीर ताणें गंभीरपणान म्हळें,

'आरे, ते वळखतात म्हाका. जो गोंयकार हांगा कसल्याय कामाक येता तो म्हाका मेळटाच, तो हांगा आमगेर येताच आनी हांव ताका जाता ते भाशेन मजत करतां हें बेस बरें जाणात ते.'

'पूण बंड जालें जाल्यार तांची वागणूक बदलुंयेता. बंड करतात ते गोंयकार आनी आमी हांगा आसात तेंवूय गोंयकार; ते भायर आमचो आनी तांचो संबंद आयला; इतलें निमित्त्य पुरो ना तांकां?'

'अशें घडुं येता. पूण दुसरेंय चिंतून पळय. बंड गोंयांत जाता. खीणभर धरुया, तें बंड करपाची बुद्द हांवें दिल्या; बंडाचें कारस्थान आमगेर शिजलां; आंखणी हांगा जाल्या; बंडाचो हांव मुखेल फुडारी वो एक फुडारी. कितें?'

'हय, कळ्ळें.'

'तर गोंयांत बंड जाता त्या वेळार त्या बंडाचो मुखेल फुडारी वा एक फुडारी पुर्तुगाल राज्याच्या राजपाटणांत रावता? बंड फळादीक जावं वो निर्फळ जावं, आपणाचेर संकश्ट येतलें हें ताका कळना? तो त्या संकश्टाक आमंत्रण दिवन हांगा सुस्त रावता?' सांग.

'तर्कशास्त्रांत तुजें म्हण्णें बसता. पूण हे लोक तसो विचार करतले?'

'करचोच पडटलो. हे लोक शाणे न्हय; पूण तितले पिशेय न्हय.'

कितें उलोवचें तें पुताक सुचलें ना. तो पुटपुटलो,

'पाय, कितेंय आसूं, म्हाका दिसता, तुवें ह्या विशयाचेर परत एक फावट चिंतचें.'

'तूं कसलीच चिंता करुंनाका. तुमकां बरें दिसता तशें तुमी थारायात. म्हजें हांव पळोवन घेता.' इतलें म्हळें आनी पाद्री कायतान वॉल्तेरा वयल्यान उठलो.

थंय उलोवणें सोंपलें. बापूय कितें थारायतलो हाचो अदमास पुताक आशिल्लो. तेच खातीर हुस्केवन बापायक संकश्टा विशीं जागोवपाचो यत्न ताणें केल्लो.

×××

डिसेंबरांत नातालांची परब जावन गेले उप्रांत चौगूय इश्ट जुजे पीन्त रावतालो थंय मेळ्ळे. सुर्वेकूच ज्योकींन विचारलें,

'पाद्री जुजे, पाय कितें म्हणटा?'

'पाय म्हणटा, आमी ताचे विशीं कसलीच चिंता करपाची गरज ना. आमकां कितें बरें पडटलें तें चिंतून आमी आमचो मार्ग थारावचो. ताचें तो पळोवन घेतलो खंय.'

'अशें कशें तर!' नार्सिजान म्हळें, 'आमी आमचें चिंत्तलेच. पूण ताचें चिंतलें ना जाल्यार आमी चुकतले.'

'म्हाकाय तशेंच दिसता.' जुजे पीन्तान नार्सिजाक तेंको दिवन म्हळें, 'पाद्री जुजे, एक सांग, बंड जालें जाल्यार आपणाक भिरांत आसा अशें पायक दिसना?'

'निखालस दिसना.'

'कशी तर?'

'पाय म्हणटा, हांगा सगले आपणाक बेस बरो वळखतात. बंड करपाची बुद्द आपणें दिल्ली वा आपणें ती आंखणी केल्ली जाल्यार गोंयांत वचनासतना आपूण लिस्नोआक कित्याक रावतलों आशिल्लों हें प्रधान आनी अधिकारी चिंतचे नात काय म्हूण.'

कांय खीण शांतताय पातळ्ळी. तो तर्क चुकला अशें म्हणूंक कोणच धजलो ना. पीन्तान शांतताय मोडली,

'एक दीस आमी सगले वचून पायक समजावया?'

'तुमी तशें करतले जाल्यार हांव नाका म्हणचों ना,' पाद्री जुजेन म्हळें, 'पूण उपेग जातलो अशें म्हाका दिसना. म्हाका सांगलां तेंच पाय तुमकां सांगतलो.'

'तूं म्हणटा तें खरें जायत. पूण हांगाच्या गोऱ्या शाण्यांक केन्ना पिशें

लागत तें सांगूंक जायना हें पायचे नदरेक हाडूक दिवंक जाय अशें म्हाका दिसता.' पीन्ताचें हें म्हण्णें ज्योकीं आनी नार्सिज हांणी मानून घेतलें. ज्योकींन एक पावल फुडें घालें,

'आमी पायक आमची थारावणी सांगूंक वतले तेन्ना तो विशय काडुया.'

'पूण आमी कितें करतले तें खंय थारायलां?' नार्सिजाचो प्रस्न.

'तेंच थारावपाक जमल्यात आमी आज नार्सिज.' पीन्ताची जाप.

'तशें जाल्यार थारावंया.' नार्सिजान त्या विशया वयले चर्चेक सुरवात करतना विचारलें,

'पाद्री जुजे, तुवें कितें थारायलां?'

'वेगवेगळ्या शारां विशीं खबर काडले उप्रांत म्हाका दिसलें, नांव जोडपा सारकें कितेंय करपाची संद पारीस शारांत आसा तशी आनीक खंयच ना. पारीसाक वचपाचें.'

'जुजे, तूं कितें करतलो?' नार्सिजाचो पीन्ताक प्रस्न.

'म्हाकाय फ्रांसाकूच वचपाचें आसा - स्त्रासबुर्गाक. पारीसाक वचून थंयच्यान स्त्रासबुर्गाक वचपाचें.'

'जुजे आनी हांव वांगडाच वतले स्त्रासबुर्गाक. ताच्या इश्टाक मेळून नावीक दळांत भितर सरपाविशीं थारायतलें,' ज्योकींन प्रस्नाक रावनासतना सांगलें.

'मागीर उरलों तो हांव' नार्सिनान म्हळें, 'अमकेंच करचें अशें हांवें थारावंक ना. मार्सेय यो, मागीर उलोवन थारावंया अशें थंयच्या म्हज्या इश्टान सुचयलां. म्हण्टकूच हांवूय तुमचे वांगडा पारीसाक येतां आनी थंयसून मार्सेय वतां.'

'हें बरें जालें!' पीन्तान म्हळें, 'पारीसाक वचपाचें थारलें. पूण केन्ना?'

'फुडल्या म्हयन्यांत. आतां वेळ कित्याक?' ज्योकींन सुचयलें.

'नाका-नाका,' नार्सिजान ताकतिकेन म्हळें, 'फ्रेंच भास उलोवंक आनी बरोवंक शिकपाचो एक ल्हानसोच कोर्स हांव करतां. तो मार्च म्हयन्यांत सोंपतलो.'

'आनीक तीन म्हयने रावचें पडटलें.' - पीन्त.

'कोर्स सोंपोवं दी ताका,' पाद्री जुजेन म्हळें, 'आमी एप्रीलांत या.'

हेरांनी मानून घेतलें. एप्रीलांत पारीसाक वचपाचें थारलें.

मार्च म्हयन्याच्या तिसऱ्या सप्तकांत नार्सिजाचो फ्रेंच कोर्स सोंपलो. दोन दिसांनी तो, ज्योकीं आनी पीन्त, पाद्री कायतान फारीयागेर गेले. बापूय-पूत घराच आशिल्ले. पाद्री जुजेन तांकां सालांत बसयले आनी भितर वचून बापायक सांगलें. कांय मिण्टांनी तोवूय सालांत आयलो.

कोणें सुरु करचें आनी कशें करचें हो प्रस्न पीन्त, ज्योकीं आनी नार्सिज हांच्या मनांत उप्रासलो. ते एकामेकांकडेन पळयता आसतनाच पाद्री कायतानान तांचें काम सोपें केलें,

'तुमचें तिगांचेंय शिक्षण पूर्ण जालां अशें जुजेन सांगलें म्हाका. तें बरें जालें. तुमी आतां फ्रांसाक वचपाचें थारायलां अशेंय म्हणटालो तो.'

'हय, पातीव', पीन्ताक आतां उलोवपाक धीर आयलो, 'हांगा वो गोंयांत आमकां वयर सरपाक मेळत अशें दिसना.'

'तशें म्हणपाक तुका रजांव आसा. हांवें जुजेक आदींच सांगलां, तुमच्या फुडाराचे नदरेन तुमकां बरें दिसता तशें करात.'

'पातीन, तुजें बेंसांव आमकां जाय.' ज्योकींनूय आतां तोंड उगडलें.

'म्हजें बेंसांव सदांच आसा. तुमकां जाय त्या मळार वावरात, वयर सरात आनी नांव जोडात.'

'देव बरें करुं पातीव!' तिगांनीय वांगडाच म्हळें.

वातावरण बरें आसा अशें पळोवन पीन्तान आनीक इल्लो धीर करपाचें थारायलें. कांदोळेच्या ताच्या घराब्यांतले जाण्टेले पाद्री कायतानाचे इश्ट आशिल्ले, तो फारीयां वांगडा गोंयच्यान आयिल्लो आनी तारवार पाद्री कायतानान ताका पुता भाशेनूच वागयल्लो हें सगलें त्या धिरा फाटल्यान आशिल्लें. ताणें ल्हानविकायेन म्हळें,

'पातीव, आमकां दिसतालें -' तो आडखळ्ळो.

'कितें दिसतालें? सांग तूं मेकळेपणान.'

'आमकां दिसतालें.. तुवेंय पुर्तुगालांतल्यान भायर सरचें... थोडो तेंप तरी...'

पाद्री कायतान हांसलो. ताणें म्हळें,

'आयक, ज्योकीं, नार्सिज, तुमीय आयकात. हे सुचोवणे फाटलें कारण हांव जाणा. ताचेर जुजेचें आनी म्हजें उलोवप जालां. तें सांगूंक वचना. जुजेन तुमकां सांगूंक ना जाल्यार आज सांगतलो.

'पूण...' ज्योकीं उलोवंक वतालो; पूण आडखळ्ळो.

'हांवें चिंतलां त्या विशयाचेर. बंड आनी तें जालें जाल्यार ताचे परिणाम. हांगा सगले म्हाका वळखतात आनी हांवूय तांकां वळखतां. म्हजे विशीं कसलोच हुस्को मनांत धरुं नाकात. तुमची बलायकी सांबाळात आनी तुमचो फुडार पर्जळीत कसो जातलो तेंच चिंतात.'

कोण कांय उलयलो ना. थोडीं मिण्टां शांतताय पातळ्ळी. पाद्री कायतानानूच ती मोडली,

'हांव हें अडेचो धीर हाडून सांगना. म्हजो आत्मविस्वास तशें सांगता अशें धरात. तुमी खंयूय आसूं आनी हांव हांगा आसूं, तुमचें बरें जावचें म्हूण मागतलों. ह्या शारांत पावले जाल्यार म्हाका मेळ्ळे बगर रावं नाकात.' कांय खीण तो ओगी रावलो. मागीर म्हळें ,

'केन्ना वचपाचें तें थारायलां?'

'ना पातीव. तें आज थारायतलें.' नार्सिजान जाप दिली.

'सुशेगाद बसून थारायात. हांव भितर वतां आंऽऽऽ' पाद्री कायतान कदेला वयल्यान उठलो आनी भितर गेलो.

पाद्री जुजेन तिनूय इश्टांच्यो चर्या नियाळ्ळ्यो. 'तुवें म्हणिल्लें तशेंच घडलें' हेंच तिगांच्योय नदरो सांगताल्यो. ताणें म्हळें,

'आतां सांगात, केन्ना भायर सरुया?'

ह्या प्रस्ना वयल्यान चर्चा सुरु जाली. आतां वेळ काडपाक कोणाकूच कारण नाशिल्लें. ताका लागून, जाता तितलीं बेगीन अशी ७ एप्रील ही तारीक  तांणी थारायली.

चारुय इश्टां मदीं कोणूच आदीं फ्रांसाक पावंक नाशिल्लो. पारीसा विशीं तांणी आयकल्लें आनी वाचिल्लें; पूण पारीसांतलें वातावरण एकल्यानूय अणभवूंक नाशिल्लें. दर एकल्याच्या मनांत फ्रांस पळोवपाची

आनी अणभवपाची उमळशीक आशिल्ली. मात् ते उमळशिकेक अशीर अशी देग आशिल्ली फुडाराविशींच्या हुस्क्याची. पेंवंक शिकचे खातीर, 'पयलीं उदकांत उडी मारतलों आनी मागीर हात-पांय मारुन पेंवंक शिकतलों' अशें म्हणपी मनशाच्या मनांतल्या हुस्क्यासारकीच!

७ एप्रील उजवाडलो. पाद्री जुजे आनी ताचे तिनूय इश्ट पारीसाक वचूंक गेले.

×××

चौगूय तरणाटे लिस्बोआंतल्यान भायर सरतकूच सवाय तीन म्हयन्यांनी, म्हळ्यार २१ जुलय १७८८ दिसा गोंयच्यान आयिल्लीं तारवावळ लिस्बोअ बंदरांत पावली. ते तारवावळीचेर गोंयच्या गोवेर्नादोरान धाडिल्लीं पत्रां वरिश्ठ अधिकाऱ्यांक पावतकूच गोंयांतल्या बंडा विशींची खबर सरकारांत आनी शारांत पातळ्ळी. बंड जावचे आदींच गोवेर्नादोराक सुलूस लागली; ताणें तें मोडून काडलें; ४७ जाणांक धरल्यात आनी तांचेर गोंयच्या हायकोर्टांत केशी चलपाच्यो आसात इतलीच खबर पाविल्ली. बंडाचे फुडारी आशिल्ले दोन पाद्री लिस्बोआक येवन गेल्ले अशेंय गोवेर्नादोरान बरयल्लें. तें मतींत धरुन हुकूम सुटलो - लिस्बोआंत आसात तितल्याय गोंयकारांक तात्काळ धरचे.

धरपाक गेल्ल्या पुलीस अधिकाऱ्यांनी खबर हाडली, कांय गोंयकार जे आपलीं कामां करुन घेवपाक आयिल्ले ते गोंयां परत गेल्यात; पाद्री जुझे फारीय तशेच तीन शिकपी तरनाटे लिस्बोआ भायर गेल्यात, पूण खंय गेल्यात तें खबर ना; एकलोच गोंयकार लिस्बोआंत आसा तो पाद्री कायतान वितोरीन फारीय.

पाद्री कायतान फारीयाचें नांव येना फुडें प्रधान आनी वरिश्ठ अधिकारी मात्शे गोंदळ्ळें. तांचे दोन गट जाले, दोन गटांचीं दोन मतां जालीं. पाद्री कायतान फारीयाक राजवाड्यांत उक्तें दार मेळटा म्हूण जे ताचेर जळटाले, कात सावळी आसुनूय ताका प्रधान वा अधिकारी मान दितात म्हूण जांकां मत्सर जातालो तांचें मत आशिल्लें पाद्री फारीयाक धरचो; बंडाची बुद्द ताणेंच दिली आसुंये; ते दोन पाद्री आनी लिस्बोआक येवपी गोंयकार तागेरुच जमताले. दुसरो गट पाद्री कायतान फारीयाक चड बरो वळखतालो. तो ज्येश्ठ पाद्री. राजवाड्यांत ताचे बरे संबंद आसात; तो बंडाचो एक फुडारी आशिल्लो जाल्यार लिस्बोआंत रावचोच नाशिल्लो; ताका धरल्यार चूक केल्ल्याचो आरोप जावं येता अशें ह्या गटाक दिसतालें. निर्णय जायना जालो तेन्ना दोनूय गटांनी मागलें, राणयेनूच हुकूम दिवचो.

राणये कडेन प्रस्न पावतकूच तिणें सल्लागारां कडेन भासाभास केली आनी तांच्या सल्ल्या प्रमाण हुकूम दिलो - पाद्री कायतान फारीय हाका धरचो न्हय, बंदखणींत घालचो न्हय; तो पावलिस्तांच्या ज्या कोंवेंतांत काम करता थंयच ताका नदरकैदेंत दवरचो. हुकमाक पाळो दिवन अधिकाऱ्यांनी पाद्री कायतान फारीयाक नदरकैदेंत दवरलो.

दुसऱ्या वर्साचे तारवावळीर गोंयच्यान मार्तीन्यु सुआरिश नांवाचो पाद्री आयलो. तो हळदोणेंचो. रोमाक वचून डॉक्टरेट करपाक आयिल्लो. पाद्री कायतान फारीय ज्या कोंवेंतांत आशिल्लो त्याच कोंवेंतांत कांय दीस रावलो. थंय ताका पाद्री फारीयाची खबर कळटकूच तो कोंवेंताचो मुखेली आशिल्ल्या वरिश्ठ पाद्रीक मेळ्ळो. ताणें म्हळें,

'हांव गोंयचो. रोमाक डॉक्टरेट करपाक वतां.

पाद्री कायतान फारीय हांगा आसा खंय. तुमची मान्यताय आसल्यार रोमाक वच्चे आदीं त्या ज्येश्ठ पाद्रीक मेळून ताचें बेसांव घेवंक सोदतां. रोमांतले वेवस्थे विशींय समजून घेवंक मेळटलें.'

'सरकारी हुकमा प्रमाण तो नदरकैदेंत आसा. पूण ताका मेळून बेंसांव घेवपाक आडखळ ना.' वरिश्ठ पाद्रीन सांगलें.

पाद्री सुआरिशाक सूऽऽ जालें. आदीं कळोवन तो पाद्री कायतानाचे कुडींत भितर सरलो. पाद्री कायतान कदेलार बशिल्लो. पाद्री सुआरिशाक दिसलें, पिराय साठ वर्सांची आसत; पूण दिसता अदीक जाण्टो. मुखामळार सया दुख्खाची? निर्शेणेची? अन्यायी? काय तिनींचीय? खीणभर रावन ताणें पुर्तुगेज भाशेंत उलोवपाक सुरु करतनाच पाद्री कायतान फारीयान म्हळें,

'बस, आमचे भाशेंत उलोवया. तें बरें जातलें.'

पाद्री सुआरिश रोखडोच शिटकावलो. ताणें म्हळें,

'खरें. म्हाका तें येवजलेंच ना. देव बरें करुं.'

'सांग. तुजी खबर आदीं सांग.'

पाद्री सुआरिशान आपली वळख सांगली. रोमाक वचून कसल्या विशयांत डॉक्टरेट करुंक सोदतां तें सांगलें आनी पाद्री फारियाचे बलायके विशीं खबर घेतली.

पाद्री फारीयान म्हळें,

'हांव?! हांव बरो आसां! हांव पळय हांगा विसव घेतां!' विसव ह्या उतराचेर ताणें भर दिलो ताचो अर्थ पाद्री सुआरिश समजलो. पाद्री फारीयान फुडें विचारलें,

'गोंयांत कितें घडटा?'

'गोंयांत घडपाचें आशिल्लें तें घडलें ना. तें तुमकां सगल्यांक हांगा कळ्ळां आसतलेंच-'

'कळ्ळां; पूण कित्याक लागून तशें घडलें तें कळ्ळें ना.'

'तशें जाल्यार सगलीच खबर सांगतां-'

'बारीक गजाली नाकात. मुखेल घडणुकोच सांग.'

'बरें. पाद्री कायतान फ्रांसिश्क द कौत लिज्बोआच्यान १७८६ वर्साच्या मे म्हयन्यांत गोंया पावलो. रोखडीच ताणें पणजेंत मळ्यांत आपल्या घरांत बसका घेवपाक सुरवात केली. आदीं सोयऱ्यांक आनी इश्टांकूय आपयले. मागीर हेरांक. बार्देसांतूय बसका जाल्यो. त्यो गुप्तीं जातात्यो. लोकां मदीं जागृताय करप आनी पुर्तुगेजांक धांवडावन गोंयकारांनी सत्ता हातांत घेवप हें गरजेचें कित्याक तें पटोवप हो त्या बसकांचो हावेस आसलो.'

'आनी पाद्री गोंसाल्विश नाशिल्लो?'

'पाद्री जुजे आंतोनियु गोंसाल्विश म्हणटा तूं?'

'हय.'

'तो खंय लिस्बोआच्यान गोंया वतना सिलोनाक देंवलो. म्हाका दिसता, बंडाक तेंको मेळोवपा खातीर ताणें कांय जाणां कडेन यत्न

केलो - '

'मेळ्ळो तेंको?'

'ना काय दिसता. ते विशीं मागीर कांयच आयकलें ना. आंखणेंतूय तांच्या कामाचो उल्लेख नाशिल्लो. पाद्री गोंसाल्विश १७८९ वर्सा जानेवारींत गोंया पावलो. मागीर बसकांक नेट आयलो. मुखेल बसका कांदोळे पीन्तांच्या घरांत जाताल्यो. पूण बार्देसांत त्यो खूब कडेन जाल्यो. पिळर्णेचे एके बसकेक हांव गेल्लों. थंय कळ्ळें, ते फौजेंतल्या अधिकाऱ्यांवांगडा तश्योच व्हिगारां वांगडा वेगळ्यो बसका घेताले. बंडाचे आंखणेचोय म्हाका अदमास आयलो. फौजेंतल्या अधिकाऱ्यांनी फौजेचीं केंद्रां आनी मुखेल तशेंच सरकारी कचेऱ्यो ताब्यांत घेवप, येवरोपेप अधिकाऱ्यांक धरप, धरुंक मेळ्ळेनात जाल्यार फारपेट करुन मारप.. पाद्रींनी इगर्जाच्यो घांटी वाजोवंक लावन लोकांक एकठांय करप आनी लोकांनी पुर्तुगेजांक सत्ते वयले निखळावन गोंयचो कारभार आपल्या हातांत घेवप... गोंयकाराचें लोकसत्ताक स्थापन करप...'

'खंय चुकली तर ही आंखणी?'

'तीन गोंयकारांनी घात मारलो. तांणी पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांक बंडाचे आंखणे विशीं कळयलें.'

'कोण ते गोंयकार?'

'हळदोणोंचो आंतोन येवजेन तोस्कान, फौजेंतलो अधिकारी निकोलाव द कॉश्त आनी बस्तोडेंचो पाद्री कायतान जुजे लोब.'

'परत गोंयकारुच गोंयचो दुस्मान जालो तर!'

'कितें म्हळें?'

'कांय ना. ही चाडी तांणी केन्ना केली?'

'पांच आनी स आगस्टाच्या अदमासाक. गोवेर्नादोर कितें आनी कात, खरें काय फट ते पळोवंक रावलो ना. ताणें तात्काळ हुकूम दिलो आनी सात आगश्टाचे फांतोडेर बंडाच्या फुडाऱ्यांक तांच्या सांगात्यांक आनी बंडाक तेंको दितल्यांक धरपाक सुरवात केली. ४७ जाणांक धरले. तांचे मदीं फौजेंतले १५ अधिकारी, १४ पाद्री आनी हेर लोक आशिल्ले. ४६ जाण क्रिस्तांव आनी एकलोच हिंदू आशिल्लो तो फोंडेंचो नारबा नायक सरदेसाय.'

'मागीर?'

'रोखडीच सरकारान हायकोर्टांत केश घाली. १४ पाद्रींक कुशीन दवरले आनी हेर ३३ जाणांचेर केश चल्ली. डिसेंबराचे ९ तारकेर कोर्टान निकाल दिलो. फौजेंतल्या अधिकाऱ्यांक जिवेशीं मारपाची ख्यास्त फर्मायली. हेरां मदीं थोड्यांक हद्दपार करपाची तर उरिल्ल्यांक तारवांचेर कश्टाचें काम करपाची ख्यास्त दिली. उपरांत घडलें तें भयंकर! तें मनीसपणा भायरें! तें...' पाद्री सुआरिशाचें आंग शिरशिरलें.

'कितें घडलें पाद्री सुआरिश?'

'भयंकर! क्रूरपणाची तेंगशी! जिवेशीं मारपाची ख्यास्त जाल्ल्या, फौजेंतल्या त्या पंदरा अधिकाऱ्यांक गोंय शारांत सांत काजेतान इगर्जे फाटल्या मळार व्हेले; थंय तांकां घोड्यांचे फाटले वटेन बांदले आनी फातरां वयल्यान ओडले... रगतां व्हांवसर आनी हाडां मोडसर ओडले. मागीर तांकां गोळाक लावन तांचो जीव काडलो. तितल्यान थांबला?... तांच्यो गोमट्यो कातरल्यो, हात-पांय कातरले, कुडीचे कुडके केले आनी त्या त्या अधिकाऱ्यांच्या गांवांत ते भौशीक सुवातांनी हुमकळायलें...' परत पाद्री सुआरिशाचें आंग शिरशिरलें. ताणें लेंसान तोंड पुसलें... दोळे धांपले. जशें कितें ताका नदरेमुखा वयलें तें चित्र पुसून वडोवपाचें आसलें!

तें वर्णन आयकून पाद्री कायतान फारीयाचेंय काळीज हाल्लें. ताणें दोनूय हातांनी तोंड धांपून घेतलें. कांय मिण्टां तसोच रावलो. तोंडा वयले हात काडले तेन्ना ताचे दोळे ओले जाल्ले. चर्येचेर खर दुख्खाची सया पडिल्ली.

बऱ्याच वेळान तो उलयलो,

'त्या १४ पाद्रींचें कितें जालें?'

'तांचें कितें करचें तें राणयेनूय थारावचें म्हूण तांकां लिस्बोवाक धाडपाचें गोवेर्नादोरान थारायलां.'

कांय वेळ दोगूय उलयले नात. मागीर पाद्री सुआरिश उठलो. सकयल्या आवाजांत ताणें म्हळें,

'चार दिसांनी जिनोआक आनी थंयच्यान रोमाक वतलों. वच्चें आदीं मेळटा.'

ल्हव पावलांनी पाद्री सुआरिश पाद्री कायतान फारीयाचे कुडींतल्यान भायर सरलो.

रोमाक वचूंक भायर सरचे आदल्या दिसा तो परत पाद्री फारीयाक मेळूंक गेलो.

'फाल्यां भायर सरतां, तुजें बेंसांव घेवपाक आयलां.' ताणें म्हळें.

पाद्री फारीयान म्हळें,

'मात्सो बस. त्या दिसा तुवें सांगिल्ली खबर आयकून हांव थतरवितर जालों. तुका एक विचारुंक पावलों ना.'

'कितें तें?'

'पाद्री कायतान फ्रांसिश्क द कोत आनी पाद्री गोंसाल्विश हे दोगूय त्या १४ पाद्रीं मदीं आसात?'

'ना. फकत पाद्री कौत आसा. बंडाच्या फुडाऱ्यांक धरपाचो हुकूम दिला हें कळ्ळे बरोबर पाद्री गोंसाल्विशान गोंय सोडलें. आदीं खंय तो चोडणा गेलो आनी थंयच्यान भायर सरपाची वाट दाखोवपी एका मनशाक वांगडा घेवन आजरेंच्यान खंय मराठ्यांच्या वाठारांत गेलो. थंयच्यान खंय गेलो तें कळ्ळें ना. आनिकूय चार - पांच जाणा त्या वेळार गुप्त रितीन गोंया भायर गेले असें म्हणटात.'

'हेंच जाणा जावंक सोदतालों,' अशें म्हणून पाद्री फारीयान पाद्री सुआरिशाक बेंसांव दिलें आनी सांगलें,

'रोमांत वातावरण बरें आसा. गोंयकारांनी थंय बरें नांव जोडलां. तुज्या मना सारकें जावन तुका येस मेळूं. रोमांतल्यान परत येतलो तेन्ना मेळ.'

संपर्क : 9822163223

***



# ‘आशेचो एक थेंब’

## कोंकणी लघुफिल्माचे निर्मितीची फाटभूंय, कथा आनी पटकथा : प्रकाश पर्येकार

**लघुफिल्माचे निर्मितीची फाटभूंय :**

गिमाच्या दिसानीं वर्सान वर्स गोंय विद्यापिठाचो कॅम्पस जळटालो. आतऱ्या पयऱ्यान वेगळ्या वेगळ्या जाग्यार उजो लागतालो. नेमको दनपारच्या वेळार उजो लागता कसो? कोण लायता हो उजो? थळावे लोक? विद्यापीठाचे कर्मचारी? काय भायले? आमचे भितर चर्चा जाताली. प्रस्नाची जाप मेळनासली. विद्यापीठाचो अयस पयस परिसर, मदसून गेल्लो मुखेल रस्तो, तशेंच भितरले ल्हान ल्हान रस्ते आनी पारंपारीक वाटांक लागून हे गजालीचेर नियंत्रण दवरपूय तशें कठीण आशिल्लें.

भर दनपारच्या कडार उजो पडटकच धुंवराचे लोट मळबांत वयर सरताले. वाऱ्यान हो धुंवर कार्यालय आनी वर्गांत भितर रिगतालो. रस्त्याचे कुशीक उजो लागल्यार कांय वेळ येरादारी बंद जाताली. कड्डा वांगडा ओलेंय जळटालें. झाडां झुडपां जळटात ताचो चर्रऽऽ चर्रऽऽ असो आवाज येतालो. “म्हजें काळीजूच जळटा अशें म्हाका दिसता.” माधवी सरदेसाय मॅडम म्हणटाली आनी दुख्खी जाताली.

डॉ. नंदकुमार कामत हाका हें सोस नासलें. आमी मेळटाले तेन्ना उजो आळाबंद कसो हाडप हाचेर चर्चा जाताली. “कॅम्पस जळटा ताचें कोणाक कांयच पडून वचूंक ना.” अशें म्हण तें तिडकताले. दिसाळ्यांचेर बरयताले. उजो लागतकच उपरांत फायरब्रिगेडीक फोन करप जातालें. डॉ. कामत आनी हांवें साबार फावट फायरब्रिगेड आपयल्या. ती आयल्या आनी उजो पालयला. पूण, ती येता म्हणचे पयलींच अर्दो अदीक परिसर जळून ताचो गोबर जातालो.

त्या वेळार प्रो. दिलीप देवबागकर गोंय विद्यापीठाचे कुलगुरू आशिल्ले. विद्यापीठान ‘कॅम्पस एनव्हायरोमेंट कमिटी’ घडयल्ली. विद्यापीठ परिसरांचें रक्षण आनी पर्यावरणाक मारक गजालीचेर ही कमिटी चर्चा करताली. आपल्यो सुचोवण्यो दिताली. ताचे अध्यक्ष आशिल्ले डॉ. नंदकुमार कामत. हांव हे कमिटीचो एक वांगडी.

आमच्या ह्या परिसरांत पडपी उज्याचेर उपाय काडपाच्या संदर्भांत दिर्घ चर्चा जाताली. उज्याक आळाबंद हाडपाक आमचे सत्तरींत ‘रीस’ काडपाची पारंपारीक पद्दत आसा. ती पद्दत हांगां वापरू येता म्हणपाचें हांवें सांगलें. ताचेर सविस्तर चर्चा जाली. वारो कमी जातकच तिनसांजच्या वेळार ही रीस काडटात. रीस काडपाचें तंत्र खबर आशिल्ले मनीस जाय. तांकां हाडून त्या वेळार तांचे कडल्यान काम करून घेवप मात्शें अडचणीचें आसलें.

दुसरो एक विचार हांवें मांडलो तो म्हळ्यार विद्यापीठ परिसरांतलें पुराय करड कापून घेवप. ताचेर चर्चा जाली. पूण ते खातीर लागपी मानाय खंयच्यान हाडप? अडचण लक्षांत घेवन मानाय हाडपाची जबाबदारी हांवें घेतली. हांव म्हज्या घरा सत्तरी गेलों. मानाय आनी कामेरीं सोदलीं. धा लोकांक तयार केले. ते लोक आयले. कॅम्पसांत रावले. पंदरा दिसा वयर जाता तितलें करड कातरून घेतलें. परिसर निवळ जालो. दुख्खाची गजाल म्हळ्यार कांय जाग्याचेर त्या वर्साय उजो लागलो. पूण हे वेळार उज्याची तिव्रताय कमी आशिल्ली.

कॅम्पस जळपा पासून वाचोवप ही भुमीका हें सगळें करपा फाटल्यान आशिल्ली. कॅम्पस जळटा म्हळ्यार कितें जळटा? फक्त करड

जळटा? ना. ताचे वांगडा झाडां जळटात. करडांत भितर असंख्य जिवजंतू आसतात, ते जळटात. एका झाड वा झिळीचेर दोळ्यांक दिसपी तशेंच दिसनाशिल्ले अनेक प्रकारची जिवावळ आसता. ती जळटा. हुमल्यांचे आनी सुकण्यांचे घोंटेर जळटात. खाटयाळें म्हूण एक म्होंव विद्यापीठ परीसरात ल्हान झुडपांचेर जाता, ते म्होंवामूस जळटात. हुमलां ह्यो मुयो झाडाच्या खाकोळांत मालीं करतात. त्यो मुयो जळटात. हुंदीर आनी सोरोप जळटात. हें सगळें चितूंत मन्न खिन्न जातालें. काळीज कोण तरी पिळून काडटा अशें दिसतालें.

हांव विद्यापीठाच्या कॅम्पसांत पंदरा वर्सां रावलां. हो परिसर हांवें वेगळ्या वेगळ्या रुतूंत लागींच्यान पळयला. पावसाळ्यांत मोर पिसारो फुलोवन नाचतात ते पळयल्यात. कुवांकी (भारद्वाज) हीं सुकणी जोडयेन भोंवतना पळयल्यांत. रातच्या वेळार भोंवपी घुबडां पळयल्यांत. वडफळां आनी भिल्लेमाडाचीं फळां खावपाक वायेरीं येतात ताचो हांवें अणभव घेतला. हांगां ह्या सड्यार जावपी काण्णां, चुन्ना आनी हासाळें हांवें खाल्यांत. पावसा दिसांनी जावपी कुड्डुकेची आनी तायकिळ्याची भाजी हांवें खाल्या. असंख्य यादी आसात म्हजे कडेन ह्या कॅम्पसा संदर्भांत...

२००७ वर्सा अखील गोंय पांवड्यार पर्यावरण संवर्धन ह्या विशयाचेर 'फिल्म बीम-पणजी' हे संस्थेन लघुफिल्म निर्मीती सर्त जाहीर केली. ती बातमी वाचतकच विद्यापीठ कॅम्पस जळटा तो दोळ्यां मुखार उबो रावलो. ह्या विशयाचेर फिल्म जावं येता म्हणपाचें लक्षांत आयलें. पंदरा दिसां भितर फिल्म तयार करपाक जाय आसलें.

हांव फक्त कथा-पटकथा बरोवंक शकता. हेर कसलेंच तांत्रीक गिन्यान नाशिल्लें म्हजे कडेन. फिल्म निर्मीतीचो अणभव नाशिल्लो. आशिल्ली ती उमेद आनी पर्यावरणाविशीं आस्था.

चड विचार केलो ना. गोवा कला महाविद्यालय - आल्तीनो, पणजी हांगां शिकोवपी श्री. दिगंबर सिंगबाळ हांकां फोन केलो. त्या वेळार आमी बरोबर म्हादयच्या रानांत भोंवताले. २००३ वर्सा म्हादय परिक्रमा आमी केल्ली. त्या वेळार ते आपल्या हॅंडिकॅम कॅमेऱ्यातल्यान शुटींग करताले. तांच्यानी म्हादय न्हंयचेर एक माहितीपट तयार केल्लो. तो आमी भोंवून गोंयांतल्या वेगवेगळ्या वाठारांत दाखयल्लो. ''वेळ करूंया नाका. हांव आयज रातचो बसून पटकथा बरयतां. तुमी तुमचो कॅमेरा घेवन सकाळीं विद्यापीठ कॅम्पसांत येयात.'' सिंगबाळ सरा कडल्यान हयकार मेळ्ळो.

सिंगबाळसर आयले. कांय म्हत्वाचे शॉट पयलीं घेवप आनी मागीर कलाकारांक घेवन उरिल्ली शुटींग पुराय करपाचें थारलें. आमी सकाळीं फुडें शुटींगे खातीर भायर सरले. कॅम्पस भोंवपाक लागले. लाँग आनी मिडीयम शॉट घेवन कॅम्पसाचें चित्रिकरण केलें. सुकणीं उडटात तें घेतलें. हुमल्यांचे घोंटेर आनी मुयांची मालीं दिसलीं. करड काडून ताचे पोंदा उजो पेटयलो. धुंवर केलो. घोंटेर जळटा ताचे मिडीयम,क्लोज आनी क्लोज-क्लोज शॉट घेतले. त्या वेळार आमी गरजेचे सुमार साठ सत्तर वेगळे शॉट एकठांय केले.

आतां प्रस्न आशिल्लो तो कलाकारांक घेवन शुटींग करपाचो. ह्या लघुफिल्मांत मुखेल भुमिका करपाक गोपीनाथ गांवस हाका फोन केलो. ताचो हयकार मेळ्ळो. ल्हान सात-आठ वर्सांचें चली भुरगें जाय आसलें. भुरगीं सोदलीं पूण आमकां जाय तशें भुरगें मेळना जालें. मूळ काणकोणचें पूण मडगांव हांगां रावपी प्रशांत नायक हाची चली बरखा हाची म्हाका याद जाली. प्रशांतबाबाक फोन लायलो. ताचे कडेन उलयलों. बरखा तयार जालें.

एक मोटर सायकल घेवन मनीस रस्त्यान येता असो एक प्रसंग दाखोवंक जाय आशिल्लो. ताचे खातीर राघोबा पेडणेकार हाका सांगलें. तोवूय तयार जालो. बापूय आपले चलयेक घेवन मोटारींतल्यान प्रवास करता असो प्रसंग भितर आशिल्लो. ताचे खातीर चार पांच जाणां कडेन उलोवप केलें. कांय जाणांनी येतां म्हळें आनी मागीर ना म्हण सांगलें. कांय जाणांचो शुटींगेचो टायम जुळना जालो म्हूण फाटी सरले. अश्या टेन्स वातावरणात परूळेकार उच्च माध्यमीक विद्यालय-वेरें बार्देसचे प्रभारी प्राचार्य श्री. उमाकांत साळकार हांकां फोन केलो. ते राजी जाले. आनीक एक मनीस आपली मोटार घेवन रस्त्यातल्यान पासार जाता हें दाखोवंक जाय आसलें. त्या पात्राक सोदपाक आनीक वेळ खर्ची घालो ना. तें काम स्वता हांवेंच करपाचें थारायलें.

दीस थारलो. सांजवेळार तीन वरांचेर शुटींग करपाचें थारायलें. तेंवूय विद्यापीठ कॅम्पसांत. हांव रावतालों त्या क्वाटर्सा फाटल्यान लोकेशन निश्चीत केलें. थंय जाय तशें करड आशिल्लें. त्या कड्डाक आमकां उजो घालपाचो आशिल्लो. करड जळटा तें दाखोवपाचें आशिल्लें. उजो आनीक पसरचो न्हय म्हणपाची खबरदारी घेतिल्ली. ज्या जाग्यार उजो घालपाचे निश्चीत केल्लें ताचे भोंवतणचें करड आमी काडून उडयल्लें.

**लघुफिल्माचें कथानक :**

माळरानाक उजो पेटला. झाडां-झुडपां जळटात. हुमल्यांचे घोंटेर जळटात. मुयो जळटात. हेर जिवावळ जळटा. धुंवर मळबभर जाला. रस्त्यावयल्यान लोक आपले गाडयेंतल्यान आनी दुचाकीवयल्यान येतात वतात. पूण कोण थंय थांबनात. अश्या वेळार एक तरणाटो आपले मोटरसायकलीन येता. तो मळ जळटा तें पळयता. तो रावता. हेरांक थांबोवन मदत मागता. ताका मदत मेळना. थोडो निराश जाता. फायरब्रिगेडीक फोन लायता. पेट्टा तो उजो कांय वेळान हाताभायर वतलो अशें चितून उजो पालोवपाक वता. झाडाचे ताळे मोडटा. त्या ताळ्यांचें झडप तयार करता. उज्याचेर नेटान झडप मारीत रावता. आपले परीन उजो नियंत्रणात हाडपाचो यत्न करता. दुसरे वटेन फायरब्रिगेड त्या जाग्यार येवपाक भायर सरता.

हें चलता आसतना आपल्या बापाय वांगडा मोटारींतल्यान एक चली प्रवास करता. एक तरणाटो उजो पालयता तो ताका दिश्टी पडटा. ती आपल्या बापायक गाडी थांबय म्हूण सांगता. कार्यावळीक पावपाक वेळ जातलो अशें म्हूण तो रावपाक सोदीना. तें चली हट्ट करता. गाडी थांबता. गाडयेंतल्यान तें सकयल देंवता. आपले कडेन आशिल्ली उदकाची बाटली घेवन तें उजो पालोवपी त्या तरणाट्या कडेन धांव मारता. तें ताका पळयता. घामाघूम जाल्लो तरणाटो उजो पालोवपाक यशस्वी जाल्लो आसता. तें ताच्या म्हऱ्यांत वता. आनी पियेवपाक उदक दिता.

शुटींग सुरू जावंचे पयलीं थारिल्ले प्रमाण आमी कड्डाक उजो घातलो. शुटींग सुरू जालें. ह्या वेळार अचकीच वारो व्हांवपाक

लागलो. करड पयलींच तापिल्लें आशिल्लें. उजो अकस्मात वाडलो. कल्पना करूंक नाशिल्ली येदो व्हडलो जालो. उजो पालोवपाक आमी उदक हाडून दवरिल्लें. तें उज्याचेर माल्लें. उजो आटापा आयलो ना. आमचेर आकांत. गोपीनाथ, राघोबा आनी हांवें झाडाचे ताळे मोडून काडले. झडपां केलीं आनी उजो पालयलो.

एक अपसरण टळिल्लें. पूण दुसरे वटेन ताचो आमकां फायदोय जाल्लो. आंकाताचो उजो पेट्टा ताचे आमकां बरे शॉट घेवपाक मेळिल्ले. जळून गोबर जाल्लें विदारक चित्र तेवेळार कॅमेरांत बंद जाल्लें. फिल्मा खातीर ताची गरज आशिल्ली.

ते दीस सगळी शुटींग जाली ना. बरखाक आनी उमाकांत सराक परत घरा वचचें पडिल्लें. शुटींगेचो परत दीस थारलो. त्याच जाग्यार परत शुटींग जाली. परत थोडोसो जाय तितलोच आमी उजो घातलो. रस्त्यावयले येरादारीक थोडो त्रास जालो पूण कांयच आडखळ येनास्तना त्या दिसाची शुटींग सोपली.

फायरब्रिगेड आपल्या कार्यालयांतल्यान भायर सरता. ती सायरन वाजयत रस्त्यान येता अशे एक-दोन शोट आमकां जाय आसले. कशे आनी खंय घेवन हो प्रस्न आसलो. पणजे फायरब्रिगेडीच्या कार्यालया कडेन शुटींग करपाचें आमी थारायलें. तशी चर्चा केली.

एक दीस दनपरां लॅटीन अमेरीकन स्टडी सेंटर हांगां उजो लागला म्हणपाचें म्हाका कळ्ळें.फायरब्रिगेडीच्या कार्यालयाक हांवें फोन लायलो. उजो लागलो म्हणपाचें कळयलें. दुसरो फोन दिगंबर सिंगबाळ सरांक लायलो. आसा थंयच्यान कॅमेरा घेवन यो. फायरब्रिगेड विद्यापीठाच्या कॅम्पसांत पावली. उजो पालोवपाक सुरवात जाली. कांय वेळान दिगंबर सर थंय पावले... थंयचीं शुटींग जाली. चार पांच बरे शॉट मेळ्ळे.

प्रि-प्रोडक्शन आनी शुटींग सोपिल्ली. आतां काम आशिल्लें तें पोस्ट-प्रोडक्शनाचें. फिल्म एडीट करपाक आमी कोण तरी प्रोफेशनल सोदताले. गोंय विद्यापिठाच्या डि.ई.आय. आय.टी कडेन उलोवणी जाली. तांचो हयकार मेळ्ळो. तब्बल चवदा वरां बसून एडिटींग केलें. फिल्माचें नांव दवरलें *आशेचो एक थेंब* (A Drop of Hope)

सर्ती खातीर एन्ट्री दिली. ही फिल्म निर्मीती कोणाच्या बॅनराखाला तें थारावंक नाशिल्लें. आमी स दिसांची 'म्हादय परिक्रमा' केल्ली. परिक्रमेंतल्यान आयले उपरांत त्या बॅनराखाला आमी एक कार्यकृमूय केल्लो. तोच बॅनर ह्या फिल्मा खातीर वापरपाचो थारलो. फिल्म तयार जालें.

वट्ट सोळा वयर फिल्मा सर्तीक आशिल्लीं. सगळ्या फिल्मांचें स्क्रिनींग जालें. ताचे पयलीं सर्तीचें परिक्षण जाल्लें. सर्तीचें पयलें इनाम सतीश गांवस दिग्दर्शीत *राखणदार* ह्या फिल्माक जाहीर जालें. आमच्या फिल्माक दुसरें इमान फाव जालें. आमकां मनापासून आनंद जालो. घेतिल्ल्या कश्टाचें सार्थक जाल्लें. २००७ वर्साची खबर. हे गजालीक आतां चवदा वर्सां जावन गेल्यांत.

म्हज्या भुरगेपणांत दोन तीन दीस दोंगर पेट्टा तो हांवें पळयल्लो. तेवेळार व्हडलें कांय दिसनासलें. दोंगर जळटा तो आमी मजेंत पळयताले. रातचो तर तो देखावो वेगळोच दिसतालो. मुखार पर्यावरण विशयाची जाणीव वाडली. आतां अशें कितें जालें म्हणटकच मन अस्वस्थ जाता. न्हिद खळटा.

हें आमचें फिल्म पळोवन पळोवपी अस्वस्थ जाल्ले. तेंच आमचें खरें जैत आशिल्लें. फिल्म सादें. तांत्रीक नदरेनूय तशें सक्षम नाशिल्लें. पूण, आमी कितें सांगून सोदता तें फिल्माच्या माध्यमांतल्यान प्रेक्षकां मेरेन पाविल्ले.

आतां केन्नाय चुकून विद्यापिठाचो कॅम्पस दनपारच्या कडार जळटा तेन्ना ह्या दोन मिनटां एकुणसाठ मिनटाच्या फिल्माची याद जाता.

**लघुफिल्माची पटकथा :**

आशेचो एक थेंब (Drop of Hope)

पटकथा लेखन: प्रकाश पर्येकार

**F-DE IN**

**SCENE: 01**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरान)

गीम तापला. अयस पयस मेरेन मळ पातळ्ळां. त्या मळार करड आसा. तें करड सुकलां. कांय कडेन करड आडवें पडलां जाल्यार कांय जाग्यांचेर तें उबें आसा. ह्या मळार मर्दी मर्दी ल्हान व्हड झाडां आनी झुडपां दिश्टी पडटात. सगळे कडेन वताचो रखरख आसा.

एक सुकणें उडटा आनी दुसऱ्या झाडार वचून बसता. ताच्या गायनाचो स्पश्ट-अस्पश्ट आवाज आयकूक येता. मर्दींच कावळो रडटा तो आवाज येता. वयर मळबांत एक घोण घिरट्यो घालता ती दिस्टी पडटा.

ह्या माळरानांतल्यान रस्तो गेला. एकादी स्कुटर वा चारचाकी गाडी थंयच्यान पासार जातना दिश्टी पडटा. अश्या वेळार रस्त्याच्या एका अर्दान कड्डाक उजो पेटला तो दिश्टी पडटा. करड तापिल्ल्यान तो उजो नेट घेता. त्या उज्यांत झाडां - झुडपां जळटात. धुंवराचे लोट वयर मळबांत वतात. सगळेंच काळशें वातावरण.

**SCENE: 02**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरान. झाडाच्या मुळांत.)

वाऱ्याची एक झुळूक येता. करड आनीक नेटान पेट्टा. उज्याच्यो जिबल्यो वयर सरतात. ह्या वेळार झाडांचीं पानां जळटात. जळपी त्या पानांचो चर्रऽऽ चर्रऽऽ असो स्पश्ट आवाज आयकुपाक येता. त्या झाडार आशिल्लीं चार पांच सुकणीं उडून पयस वतात.

**SCENE: 03**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरान. झाड आनी झील आशिल्ली सुवात.)

दुसऱ्या एका झाडाच्या खांदयेचेर आशिल्ले हुमल्यांचे घोंटेर जळटात. उज्याच्या धगान घोंटेरांतल्यान हुमले भायर येतात. कांय हुमले झाडाचे खांदयेर भोंवतात. झिलीचेर आशिल्लीं मुयांचीं मार्लीं उज्याचे भकीक पडटात. पानांचेर आशिल्ले एके किडीक उजो लागता. अर्द जळिल्ली ती कीड सकयल पडटा आनी वळवळटा.

**CUT TO**

एक सोरोप जीव वाचोवपाक नेटान रोयणींच्या त्या बिळांतल्यान भायर सरता. उज्याचो हुलोप लागिल्ल्यान तो नेटान एके वटेतल्यान दुसरे वटेन वळवळत सरपटत वयता.

**CUT TO**

एका झाडा पोंदां सुक्या खोलयांक उजो लागला. थंय आशिल्ले दोमळे हुलपतात जळटात. एक अर्दी जळिल्ली शिल्ली त्या खोलप्यांतल्यान भायर येता. आकांतान पळटा.

**SCENE: 04**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरानातल्यान गेल्लो रस्तो.)

धुंवरान रस्तो व्यापला. त्या रस्त्यावयल्यान गाडयो येतात वतात. गाडयेंतले लोक कड्डाक उजो पेट्टा तो पळयतात, पूण उजो पालोवपाक कोणूच थांबनात. एक उदकान भरिल्लो टँकर येता. गती कमी करता. कांय वेळ थांबता आनी आसली तशी गती वाडोवन मुखार वयता.

**CUT TO**

वाऱ्यान धुंवर अयस-पयस पातळ्ळा. वयर मळबांत घोणी घिरट्यो मारतात.

**SCENE: 05**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरानातल्यान गेल्लो रस्तो. रस्त्याचें एक वळण.)

(सनी. निर्सग प्रेमी. पर्यावरणा संदर्भांत आस्था आशिल्लो एक तरणाटो. वय - ३० च्या आसपास.)

सनी हो तरणाटो आपले मोटरसायकलीचेर येता. माळरानांत उजो पेट्टा तो पळोवन आपली मोटरसायकल थांबयता. पेट्ट्या उज्याक नियाळटा. रानमळ आतां नेटान पेट्टा. सनी आपली मोटरसायकल रस्त्याचे कुशीक घेता. ती स्टँडार काडटा. तकलेक आशिल्लें हॅलमेट काडटा. परत एक नदर उज्याचेर मारता. कुशीक वचून आपलें हॅलमेट दवरता मागीर फाटीक लायिल्लें बॅग काडून सकयल दवरता. उबो रावून उज्याचो अदमास घेता.

**SCENE: 06**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरानांतल्यान गेल्लो रस्तो.)

रस्त्यावयल्यान येवपी स्कुटरीचो आवाज सनी आयकता. तिचो तो आवाज आयकून तो रस्त्यार येता. तो तिका थांबोवपाचो यत्न करता. ३५-४० वर्सां पिरायेचो तो मनीस आपली स्कुटर स्लो करता.

**सनी**

"**आरे मातसो राव. रानाक उजो पेटला. आमी पोलोवंया तो.**" सनी त्या स्कुटरवाल्याक उजो पालोवपा खातीर मदत मागता. विनंती करता. ताची सांगणी तो आयकना. तो आपली स्कुटर तशीच मुखार व्हरता. तें पळोवन सनी ताका आडावपाचो यत्न करता.

**CUT TO**

**सनी**

"**राव. तुजी म्हाका मदत जाय...**"

तो स्कुटरवालो वता. सनी ताका पळयतूच उरता.

**CUT TO**

इतल्यान दुसरे वटेन एक ल्हान पिकअप येता. फाटल्यान तातूंत सामान भिरिल्ले आसा. रिक्षेच्या फाळक्यार मानाय बशिल्लो आसा. मदीं रस्त्यार उबो रावून सनी पिकअपीक आडावपाक सोदता. ती पिकअप स्लो जाता. तो ड्रायव्हराकडेन वता.

**सनी**

"**मात्शे रावात. रानाक उजो पेटला. आमी तो पालोवया.**"

**ड्रायव्हक**

"**पेटूं रे रान. तुकां कित्याक पडलां तें. म्हाका वेळ जाता. हांव वतां.**"

पिकअप गती घेता. ती वता. सनी निराश जाता.

**CUT TO**

सनी आपल्या बोल्सांत हात घालता. मोबायल काडटा. फायरब्रिगेडिक फोन डायल करता.. मोबायल कानाक लायता.

**CUT TO**

(फोनाचेर - over phone) (सनीन फोन कानाक लायला. फोन लागपाची वाट पळयता. फोन लागता.)

**सनी**

"**हॅलो, हॅलो... हांव सनी केरकार.**"

"**फायरब्रिगेडिचें ऑफीस**"

"**हॅलो, सांग.**" **(फोनाचेर आवाज येता V.O)**

**सनी**

"**करमळ घाटाच्या मुळसांत आशिल्ल्या रानमळाक उजो पेटला. तुमी बेगीन येयात. नाजाल्यार उजो दोंगरार भितर सरतलो.**"

**फायरब्रिगेडिचें ऑफीस**

"**तूं थंयच राव. येतात आमी**"

**(फोनाचेर आवाज येता V.O)**

**CUT TO**

सनी आपल्या बॅगा कडेन वता. मोबायल फोन बॅगांत दवरता.

**SCENE: 07**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरान.)

सनी रस्त्यावयल्यान सकयल मळाक देंवता. धांवतूच एके झिली म्हऱ्यांत वता.

**CUT TO**

तो आकांतान झिलीचे पांच स ताळे मोडटा. ताचें तो झडप तयार करता.

**CUT TO**

फायर स्टेशनाकडल्यान फायरब्रिगेड भायर सरता. सायरन वाजता.

**CUT TO**

सनी तें झडप घेवन कड्डाक उजो पेट्टा ते वटेन धांवता.

**CUT TO**

सनी तें झडप दोनूय हातांनी घट्ट धरता. वयर उखलून नेटान उज्याचेर मारता. उजो पालवता. परत करड पेट्टा. परत नेटान तो झडप उज्याचेर मारता.

**CUT TO**

फायरब्रिगेड रस्त्यावयल्यान येता. सायरन वाजता.

**CUT TO**

सनी खर्शेता. तरीय तो झडप घेवन उजो पालोवपाक लागता. उज्याचो हुलोप बसता. ताका घाम येता. खीणभर रावता आनी परत नेटान उजो पावोपाक लागता.

**SCENE: 07**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरानावयलो रस्तो.)

रस्त्यान एक चार चाकी गाडी येता. ते गाडयेंतल्या फुडल्या सिटार स्कुलांत शिकपी ल्हान चली बसलां. ताची पिराय स ते सात. ताचो पप्पा गाडी चलयता. तें भायर पळयता. पयलीं ताका धुंवर दिश्टी पडटा.

**CUT TO**

(गाडयेंत भितर)

**पप्पा**

"**बाय तो हारसो मात्सो वयर काड. धुंवर भितर येता.**"

हे वेळार तें चली उजो पालोवपी त्या तरणाट्याक पळयता आनी आपल्या पप्पाक गाडी थांबोपाक सांगता.

**चली**

"पप्पा राव. तो थंय एक काका उजो पालयता. राव, आमी ताका मदत करुया."

पप्पा

"कार्यक्रमाक पावपाक आमकां वगत जातलो. या आमी."

पप्पा गाडी थांबयना तो पळोवन तें अस्वस्थ जाता. तें मोट्यान आड्डता.

चली

"पप्पा राव. राव मात्सो. राव..."

पप्पा गाडी रस्त्याचे कुशीक घेता आनी गाडी थामयता.

CUT TO

तें चली पांयाकडेन आशिल्ली उदकाची बाटली उखलून ताची दोरी खांदाक लायता. गाडयेचें दार उक्तें करता.

CUT TO

तें गाडयेंतलें भायर सरून रस्त्याचे कुशीक उबें रावता. तें त्या तरणाट्याक पळयता.

CUT TO

सनी आनीक नेटान उजो पालयता.

CUT TO

फायरब्रिगेड रस्त्यावयल्यान वेगान येता. सायरन वाजता.

CUT TO

तें चली बाटली सांबाळीत त्या तरणाट्याकडेन वता. तें ताचे लागीं पावता.

**SCENE: 09**

**EXTERIOR (DAY)** (दनपारचो वेळ. माळरान.)

चडसो उजो पालयला. उरिल्लो उजो सनी पालयता. उज्याच्या धगान घामाघूम जाला. जळलेल्या कड्डाचें काळें लागून हात पांय घाण जाल्यात. तोंड काळें जालां. तो बरोच खर्शेला म्हणपाचें जाणवता. तो झपाझप आपले हातांतलें झडप उज्याचेर मारता. आतां तो उजो पालोवपाक येशस्वी जाता.

CUT TO

तें चलीं कांय वेळ ताका पळयत रावता. मागीर चार पावलां ताचे वटेन वता. सनी ताका अजापीत नदरेन पळयता. तें आनीक मुखार वता. ताचे लागीं वचून खांदाक लायिल्ली उदकाची बॉटल काडटा आनी ताच्या मुखार धरता.

चली.

"अंकल घे उदक पिये."

CUT TO

सनी ताचे लागीं वता. मुखार केल्ली बाटली घेता.

CUT TO

चलयेचो पप्पा आपले चलयेक लकुबायेन पळयता.

CUT TO

सनी बाटलेची गुड्डी काडटा. उदक पियेवपाक तो तोंड उक्तें करता. उदक तोंडांत ओतपाक बाटली वयर काडटा. चली आनंदान ताका पळयता.

- सोंपता

संपर्क : 8390303546

***

# दुदा फळाराचें बदलतें रुप

**हर्षा शेटये**

गोंय राज्याचे वस्तुसंग्रहालय दर वर्सा एक एक संकल्पना घेवन वस्तु संग्रहालय सप्ताह मनयतात. गोंयची संस्कृताय तशेंच दायज दर्शवपी एक विशय घेवन ताचेर फोटो आनी वस्तूचें प्रदर्शन आसता आनी त्याच विशयाचेर तरेकवार कार्यावळी जातात. दुदा फळार ही फक्त गोंयांतच आस्तित्वांत आशिल्ली एक कला. गोंयांत गुरवार बायलेक पांचव्या, सातव्या आनी णव्या म्हयन्यांचीं फुलां माळपाची चाल आसा तेन्ना हो दुदाचो फळार ताटांत घालून तिचे मुखार दवरतात. ओंद दुदा फळार होच विशय प्रदर्शनाक घेतिल्लो. म्हाका ह्या विशयाचेर उलोवपाक आपयल्लें.



आता फुलां माळप अशें म्हणटना आमच्या दोळ्यांमुखार कितें येता? घरांतल्या सालांत एक सोफा सजयला. गुरवार बायल फुलांचें अळंकार घालून ताचेर बसल्या. माथ्याक फुलांचो मुकुट, भुजांक बाजूबंद. कबरपट्टो, गळ्यांत हार... लक्ष्मीचो भेस केलो जाल्यार पायांकडेन पापेलांवांचें कमळ, कुशीक दोन हत्ती, सरस्वती केलें जाल्यार हातांत विणा आनी कुशीक मोर, कृष्णाचो भेस केलो जाल्यार मुकुटाक मोरपांख आनी हातांत मुरली... मुखार दिवली पेटयल्या, एका ताटांत पांच तरेची फळां आनी दोन-चार ताटांनी खास फुलांखातीर केल्लो फळार. फुलांक फळार करप हीं खाशेली गोंयची पद्धत. गुरवार बायलेक प्रसन्न दिसचें, तिणे आनंदी उरचें, आनी निरोगी अशें बाळक जल्माक येवचें होच हेतू दवरुन फुलां माळून तिची तोखणाय करतात.

आतां हो फुलांचो फळार फक्त दुदाचो आसता? तर ना! हांवे चार तरांचो फळार फुलांक मांडिल्लो पळयला. म्हज्या भुरगेपणांतल्यान आजोळा धरुन सगळ्या सोयऱ्यांगेर दुदाचो फळार पळयला. सामके घरांक तेकून रावपी शेजाऱ्यांगेर पात्यांचो फळार पळयला. पात्यांचो फळार हो नेवऱ्यांभशेन, पातीं लाटून, तातूंत खिशीयो वा पिठ्याचो साठो भरतात. तिसरो बटाट्याचो फळार. हो धवो फुल्ल फळार दिसताय सुंदर आनी खावपाकूय रुचीक लागता. चवथो सामको दुर्मिळ असो आंब्याचो फळार.

आतां ह्या सगळ्या तरांच्या फळाराबद्दल जाणून घेवपाक हांव कांय अंयशी वर्सावयल्या बायलांक मुद्दाम मेळ्ळें. सगळ्यांक पयलीं म्हज्या ८५ वर्साच्या आवयक विचारले. तिचे कुळार सांखळे. पै कुचेलकार घराब्यांत. घराफाटल्यान गोठो आशिल्लो. गोठ्यांत गायो, म्हशी आशिल्ल्यो. तेखातीर सदांच दुद आसतालें. पै कुचेलकाराले व्हड कुटुंब. सगळ्यांलीं लागी लागी घरां. तेखातीर कसल्याय कामांक हात बोट घालपाक ह्यो बायलो येताल्यो. घराब्यांत कोणालींय फुलां आसली जाल्यार ह्यो बायलो मेळून दुदाचो फळार करताली. जयवंती व्हनी, सिता व्हनी, काकी ह्यो तिगीय चड फिशाल खंय. हातूंतल्यो जयवंती व्हनीलो फळार चड सुंदर जातालो खंय. आंबो, केळयां फेणे, करमल, भेंडो, सिताफळ, अनस, काजू, मुट्टो, दुदी, वांयगें, दुदफेणे, खेळणें, मोदक, नेवरी, शिपो, झबले, मूठ. चडशे इतलेच आकार तीं करताली. चडसो फळार धवोच आसतालो. फक्त काजू, आंबो, अनस असली फळां करपाक साखरभाताचो केसरी रंग घालतालीं. अनसाचो शेणो करपाक पाचव्या रंगाचे तिराटे वापरताली. रंगीत सुतां, लांवा हेंवूय वापरतालीं. म्हज्या आवयच्या म्हणण्याप्रमाणे तिणे पाच-सात वर्साची आसतनाच्यान हो फळार करतना पळयला. म्हळ्यार १९४२-४३ ह्या काळांसावन तिणे हो फळार करतना पळयला. ह्याच काळांत तिची आवय आपल्या भावजेच्या फुलांक फळार करुन मडगांवां घेवन आयिल्ल्याची तिका याद आसा. ती सांगता पयली बिस्किटी येताल्यो तसल्या दोन वाटकुळ्या लातांनी हो फळार भरिल्लो.

त्या काळांत दूद चड मेळनाशिल्ले. जे कोणागेर गोरवां आशिल्ली आनी दूद विकपाचो धंदो आशिल्लो. तांगेर लेगीत सदची दुदाची लावण लायिल्ली आसताली. ते खातीर दूद मेळप कठीण जाताले. आनीक एक गजाल दूद आसलें म्हणून जायनाशिल्लें. दुदाचो फळार करपाची कलाय आसची पडटाली. तेखातीर सट्सट् करुन कोणूय हो दुदाचो फळार करनाशिल्ली.

आजयेच्या बापोल जावांमदी कोणाक एकटेक हो फळार करपाक येतालो जांवये आनी तिणे तो बाकीच्या घरच्या बायलांक शिकयला आसूंये. सांखळेची हेर कुटुंबा फुलांक पात्यांचो फळार करताली.

म्हज्या भुरगेपणांतलो पयलीं सात वर्सा मेरेनचो काळ म्हज्या आजोळा गेला. हांवे आजयेक आनी मावश्यांक खूब वेळा फळार

करतना पळयलां. एक मावशी हालीं हालीं लेगीत तिच्यान दूद आटोवंक जाय मेरेन फळार करताली. ह्या फराळाच्यो म्हज्यो खूब गोड यादी आसात. फळारांत आजी एक खेळणें म्हणून करतालीं. एक दांडो वयर ताका सात आठ गुळे. त्या गुळ्यांनी वुलाचे धागे घेवन ताका पीळ घालून घालताली. तें खेळणे म्हळ्यार पयली वेळाचो खुळखुळो येतालो, पळोवंक तशे दिसतालें. ते वेळच्या खुळखुळ्यांत मदी तांबडे पाचवे पटे आसताले. ताचे सारखे दिसचे म्हणून घडये ती वूल घालताली जांवये.

मडगांवची प्रमिला नायक हिचेकडेनूय हांव उलयलें. तिचे कुळार चिंबला-रायबंदरा. तिणे भुरगेंपणांत दुदाचो फळार पळोवंकूच नाशिल्लो. तांच्या शेजरा च्यारी आनी बोडके हांचे रासवळ घराबे आशिल्ले. तांगेर वर्सूयभर सुने धुवेक फुलां माळप आसतालेंच. तांगेरुय पात्याचोच फळार करताली. हांतूतल्या च्यारी घराब्यागेर तर सुंदरुच आकार करताली खंय, आयणे, दिवली, स्वस्तिक, चंद्र, सूर्य, नेवरी, मोदक... बोडक्यांगेरुय पात्याचोच फळार करताली खंय. मागीर कांय तेंपान तांगेली एक धूव दुदाचो फळार करपाक शिकली आनी फुडे फुडे मागीर ऑर्डरीय घेवपाक लागली.

दिवचलच्या गुलाबताई पै धुंगटान तर १९६१ तलो तिच्या फुलांचो फोटो दाखयलो. दोन व्हडल्या शिरत्यांचेर मांडिल्लो पात्यांचो फळार तातूंत दिश्टी पडटा. खूब सुंदर. दोट्टी पाकळ्यांची फुलां, केळ्या फेणे, झाड, पांच खाजी.

गुलाबताईन सांगले तिच्या कुळारां गोरवां आशिल्ली. दुदूय आशिल्ले. दिसपट्टे दुदफेणे करताली. पूण दुदाचो फळार कोणाक तो करपाक येना आशिल्लो. तेखातीर ताणी दिवचलच्या चणेकार कुटुंबाकडल्यान हो पात्यांचो फळार विकतो हाडिल्लो.

आनीकूय कांय बायलांक हांवे विचारले. ताणीय तेच सांगलें. खूब कमी रासवळ कुटुंबानी हो दुदाचो फळार करताले म्हणून. हेर सगळ्यांगेर हो पात्याचोच फळार करताली खंय.

गोंयच्या खाणां जेवणांचेर उत्कृष्ट अशें पुस्तक बरोवपी कुमुदिनी उजगांवकर खूब सुंदर दुदाचो फराळ करताली, तांचे कुळार शेल्डेकारागेर. तांची व्हडली भयण सुमतीबाय उजगांवकारूय बरोऽ फळार करताली. सुमतीबायची धूव म्हापशेची श्यामा सरदेसाय हिवूय तांतूतली तज्ञ. म्हजे भाचयेच्या लग्नांक करंड भरुन फळार तिणे करुन दिल्लो. शेल्डेकाराली आनीक एक धूव प्रफुल्ला केळेकार हो फळार करपाच्यो ऑर्डरी घेवक लागल्यो. आनी हो फळार गोंयच्या घराघरांनी पावलो. शेल्डेकाराली दुसरी एक धूव वासंती उर्फ अनिता नाडकर्णी हांणी ह्या फळाराक एक वेगळें रुप दिले. ताणीं फळार करपाच्यो कार्यशाळाय घेतल्यो. तेखातीर दुसऱ्या घराब्यांतल्योय चलयो आनी बायलो फळार करुंक शिकल्यो. दुदाच्या फळाराचो प्रसार गोंयभर जावपाक शेल्डेकार घराब्याचो खूब व्हडलो हात आसा. घरची जाणटेली मंजूळआका हांचेकडल्यान ही सगळी जाणां फळार करपाक शिकिल्लीं.

फाटी कांय दिसांपयली सहज उलयतना दिवचलची नंदिनी मांद्रेकार हांणी आपली मांय सुंदर फळार करता म्हणून सांगलें. वूल, रंगीत सूत बी घालून ती फळार सजयता अशेय सांगलें. ही तर म्हज्या आजोळची पद्धत. हांवे ह्या ३०-३५ वर्सात असलो फळार कोणेच केल्लो पळोवना. हांव तिची माय प्रफुल्लता मांद्रेकार हिचेकडेन मुद्दम उलयले. तिणे सांगले आता जाण्टेपणाक लागून दूद आटोवंक जमना. सून दूद आटोवन दिता. आपूण हातांनी आकार दिता. हांवे तिका विचारले ती हो फळार खंय करपाक शिकली म्हणून.

तिणे सांगले पंचावन्न वर्सां फाटी तिच्या फुलांक तिच्या घरकाराच्या मावशेन सांखळेच्या मालिनी पै कुचेलकार हाणीं फळार करुन हाडिल्लो. तो तिणे पळयिल्लो दुदाचो पयलो फळार. मागीर ती तांगेर वचून करपाक शिकली. हें आयकून म्हाका बरें दिसलें. ही मालिनीबाय म्हळ्यार म्हज्या आजयेच्या बापोल जावेली सिताव्हनीली सून. आजोळच्या फळाराचे दायज कोणतरी फुडे व्हरता ही म्हजेखातीर खूब खोशयेची गजाल. तिणे सांगले आपणेय मागीर आपले अशें खास नग करुंक सुरु केले. राजआंवाळ्याचे घोस, झिगी घाल्ली फाती...

आता बटाटाचो फळार कसो करप सुरु जालो हाची एक काणी कशी आसा. गोंय स्वतंत्र जावचे वेळचो काळ. दिवचले चणेकारांगेर शेव, चिवडो, लाडू, कापां ही खाणां करताली. पात्यांचो फळारुय तांगेर करताली. तांगेली एक सून कान्होपात्रा गोविंद चणेकार हो पात्यांचो फळार करताली. तिका सगळो वाठार कानू म्हणुनूच वळखताली. तिच्या फळाराक कानूलो फळार म्हणटाली. ती सुंदर अशी बटाटाचीं कापांय करताली. तांच्या ह्या कापांक खूप मागणी आसताली. १९६० च्या अदमासाक तिका दिसलें जसो दुदाचो फळार करतात तसोच बटाटाचो फळार केलो जाल्यार? आनी तिणे प्रयोग करपाक सुरु केलो. दोन तीन फावटी करुन पळयतकीच तिका बटाटाचो फळार करपाक जमलो. तो फळार करपाक खूब कश्ट पडटाले. बटाट उकडप, सोलप, वाटप. वानार बसून पांच पांच किलो बटाट वांटचे पडटाले. मागीर तिणे आनीक  एक प्रयोग केलो. शिरवळयो करपाचो शेवगो आसता - तातूंत तिणे उकडलेले बटाट घालचे, शेवगो धुंवडावतकूच बटाट मुड्डून मोव जावन भायर सरचे. कोणूय भुरगो लेगीत हे काम करुंक शकतालो. म्हाका ही खबर तिचो पूत नामनेचे चणेकार केटर्सचे धनी प्रशांत चणेकार हांणी सांगले. आतां तिचे हे फळाराचें दायज तिची धाकटी सून फुडे व्हरता. अजुनूय तांगेर धवो फुल्ल बटाटाचो फळार करुन मेळटा. हो फळार १९८२ सुमाराक म्हज्या मामीच्या फुलांक मुद्दाम हाडिल्लो. घरचो दुदाचो फळार केला आसतना लेगीत.

आता फळाराचो चवथो प्रकार. आंब्याचो फळार. हो सामको दुर्मीळ असो. खूब कमी घराब्यांनी हो फळार करताली. आंब्याच्या सिझनांत चड करुन दातोळ्यांक बी घालपाक हो फळार करताली.

आमगेर आंब्या हालवो करता आसतना म्हजो बापूय सदाच म्हणटालो, 'आमची बा आंब्याची कापां करतालीं. दातोळ्यांचो फळार करताली. बा म्हळ्यार बाबाची आजी. हांवें मागीर व्हडल्या मावळणीक विचारलें. तिणे सांगले हय म्हणून. ती खंय तरेकवार कापां आनी हालवे करताली. निरपणसाचो आनी कणंगाचो हालवो लेगीत. म्हाका अजाप दिसले. ही बा १८८०-८५ ह्या काळातं जल्मल्ली आसूंये.

हाली म्हळ्यार पंचवीस एक वर्सापयली मडगांवां रायतुरकारांगेर फुलांक आंब्याचो फळार मांडिल्लो हांवे पळयला. काडयांचे लाडू, कापां करपाची पद्धत आसा. कांय आजयो आपल्या अपुरबायेच्या नातवाच्या मुजीवेळार भिक्षेक घालपाक दुदाचो फळारुय करतात. म्हजी आजी दातोळ्यांक घालपाक दुदाचो फळार करताली. गोंयांत मुजीवेळार भिक्षेक घालपाक.

गोंयांत मातृदेवतेक पुजपाची चाल आसा. हांगा तळपार कोरांतिल्ली मातृदेवतेची शिल्पां दिश्टी पडटात. कृष्णाक मांडयेर घेवन बशिल्ल्या देवकेचे देवूळ फक्त गोंयांतूच आसा. आमी अस्तूरेच्या आवय रुपांक सदाच मान दिला. चवथीवेळार गणपती पुजचेपयली आमी गवर पुजतात. गुरवार बायल मनशेक दुवाळ्यांक आमी कितें खायन दिसता तें करुन दितात. त्याच भावनेन आमी गौरीचे म्हळ्यार पार्वतीचेय दुवाळे पुरयतात. अळणी पांचपाली भाजी, दुळो पायस, मोनी पातोळी अशें खास जिन्नस तिचेखातीर रांदतात. तिच्या आवडीची फुलां हरणें, हळदीफूल, कुड्डकेचे फुल, पत्री मुद्दम तिचेखातीर हाडटात. दुवाळेकान्न म्हणून तिची तोखणाय करतात. चवथी दिसा गणपतीचो जल्म जाता. ह्या दिसा गणपतीक निवेद्याचे वेगळे पान काडीनात. गणपती आवयच्या पानार जेवता असो समज आसा. म्हळ्यार आवय खाता ते आवयच्या दुदांतल्यान ताका पावता ही भावना आसूंये. चवथी दिसा पांच खाजीं हो खास जिन्नस पार्वतेखातीर करतात.

हीं पांचखाजीं म्हळ्यार पांच तरांच्या आकाराची खाजीं. नेवरी, मोदक, शिपो, चवडो आनी करमल. चडशे सगळ्यांगेर हेच आकार करतात. खाज म्हळ्यार काजूबियो, भिकणां, भाजिल्ली चण्याची दाळ, खोबऱ्याचे कुडके हांचे मिश्रण. चिवड्याक बी खाज खूब घाल्यार चिवडो बरो जाता हे केन्ना ना केन्ना तरी सगळ्यांनी आयकलां आसतलें. तर ह्या खाजीचे लाडूय करतात. ह्या खाजीचे गोड वा साखर आनी सोय घालून मिश्रण करतात. गंवां पिठाची पातीं लाटून तातूंत हें मिश्रण भरुन खाजीं करतात. चण्या दाळीच्या पुरणाचींय खाजीं करतात. पांच तरांची म्हणून हीं पांचखाजीं. जे आमी गणपतीच्या आवयक दितात तेच गुरवान्नीक खावपाक दिवन तिचो मान करप, अपुरबाय करप ह्याच भावनेन ह्या पांचखाज्यांचे ताट फुलांवेळार गुरवान्नीमुखार दवरतात. पयलींच्या तेंपार गोंयांत सगळ्या समाजांत फुलांवेळार हीं पांचखांजीं करतालीं. गोंयच्या कांय वाटारांत पांचखाज्यांक फुलांची खाजीं अशेंय म्हणटात.

आदल्या तेंपार म्हळ्यार १५०-२०० वर्सापयलीं वर्सूयभर सगळे मेळना आशिल्लें. त्या त्या सिझनांत तीच फळां मेळटालीं. तेभायर आताभशेन येरादारीचीय सुविधा नाशिल्ली. एका गांवांत पिकिल्ले फळ सटसट करुन दुसऱ्या गांवांत पावनाशिल्लें. तातूंत आनी पावसाचे दीस बी आसल्यार एका गांवांचो दुसऱ्या गांवांकडलो संबंद तुट्टालो. अशावेळार पांच तरेची फळां कशी मेळटली? तेखातीर माटोळेक बांदपाक लाकडी फळां करुन दवरताले. ती फळां बांदून माटोळी सोबोवन व्हरताले. हीच कल्पना गोंयचे खंयचे तरी अन्नपूर्णेच्या तकलेंत आयल्या आसतली. गुरवान्नीच्या फुलांक पांच फळां दवरप ना म्हळ्यार आयब कशें तिका दिसला जांवये. तिका दूद फेणे बी करपाची संवय आसूंये. घडये दूद आटयता आटयता तिचे तकलेंत दुदाची फळां करपाचो विचार आयलो जावये. आनी तिणें आंबो, काजू, दुदी, अणस, पणस, केळ्याफेणे असली फळां केलीं आसतलीं.

खावपाची फळां म्हळ्यार तो फल-हार, फळार अशें नांव पडला जांवये. मागीर फुडे कोणेतरी दुदाचो फळार करतातूच जाल्यार आनी पांच खाजीं तरी कित्याक गंवांपिठाची करची, म्हणून तिवूय दुदाची केल्या आसतली, अशे तरेन दुदाचो फळार करपाक सुरवात जाली जावये.

आज आमकां कितें दिसता? आमी जी भावना घेवन पांच खांज्यांचे ताट गुरवान्नीमुखार दवरताली ती भावना उरल्या व्हय? ना. आता हो फळार म्हळ्यार देखावो जाला. कांय कडेन तर फळाराचे विकृतीकरण जाल्ले दिसता. चार पांयांची जनावरां, पाळण्यांत न्हिदिल्ले भुरगें, मनश्यांची तोंडा... असल्यार आकारांची भर पडिल्ली दिसता. गुरवार बायलेक ह्या फळारांतले तुका आवडटा तें काड आनी खा, अशें म्हणपाची चाल आसा. आता खंयची गुरवान्न असले नग काडून खातली! केन्नाच ना.

हाली फेसबुकार जेवणा खाणांचे खूब ग्रूप आसतात. तातूंत खूप जाणा फळाराचे फोटो बी घालतात. हालीच असोच एक पात्यांच्या फळाराचो फोटो पळयलो. सगळ्या खाज्यांक वयल्यान भरपूर रंग सारयिल्लो. कोणेतरी ताचेर कमेंट केलो इतलो रंग भलायकेक बरो न्ही म्हणून. ताचेर फळार केल्लो तिणे जाप दिली, हेंऽ कोणेच खांवना तो, बेठोच मांडून दवरलेलो तो! आता हाचेर आनी कितें उलोवप!

संपर्क : 9850530152

***

*(पान ८ वयल्यान)*

चित्रांत कृष्ण आनी गाय आसा. ते गायेच्या तोंडांत कृष्णाची बांसरी आसा आनी ती बांसरी घेवन शेपडी उबी करुन ती धांवता आनी तिचे फाटल्यान धांवतना कृष्णाचे केसरी रंगाचो शेलो वाऱ्यार उडटा. ह्या चित्रांतलो कृष्णाचो गाढ निळो रंग पाठभुंयेर आशिल्ल्या निळ्या रंगाकडेन एकरुप जाला. ह्या चित्रांतली लय सुक्ष्मपणान जाणवत रावता. म्हत्वाचें म्हळ्यार चित्राचो तोलबिंदू कृष्णाचो वाऱ्यार उडपी शेलो आनी गायची शेंपडी हाचेर आसा.

नावेलकारान विदुशक, पुर्तुगेज लोक कथा, परिकथा ह्या विशयांचेर रेखाटनां केलीं. तेच प्रमाण सर्वांटीस हांच्या 'दों किहोते' ह्या अभिजात कृतीचेर कांय चित्रां केलीं. हीं चित्रां भारतीय चित्रकलेच्या इतिहासांत आगळीं वेगळीं थारतात.

तांचे व्यक्तिमत्व तांचे आवडटे पुर्तूगेज कवी फेर्नांद पेस्सोवाचे कवितेंतल्यान व्यक्त जाता.

I am nothing.
I will never be anything,
I woudn't want to be something.
Apart from that,
I have in me all the dreams of the word.

संपर्क: 9420222876

***




# मनकुशबनः कादय

**दादा हेगडे**

१७८७ सालांत नव्या काबिजादिंत जुझे पाउलु दे आलमेदा म्हणजे जुजे पावलु हांणे आपलें बस्तान पोरणें गोंय सावन केपे हांगा हालयलें. आयज केप्या जाका दियांव वाडो अशे म्हण्टात तो एका वेळार कुसमणा देसाय वाड्यावेल्या देसायांच्या पुर्वजांच्या जाग्याची सुवात. जुजें पाउलून व्यापारा पासत हांगासर बाजार, इगर्ज आनी हेर गजालींची रचणाय केली. दियांव ही ताका पुर्तुगेज सरकारांन दिल्ली पदवी. दियांव म्हळ्यार अध्यक्ष पाद्री. आयचो दियांव वाडो वसोवच्या आदी हांगासर अटंग रान आसलें. अली नावांचो बिजापुरच्या राज्याचो सरदार ह्या वाठाराचेर आपलो शेक गाजयतालो. दियांव पालासीची मूळ बांदावळ ही त्या अलीचीच अशे कांय जाणकारांचे म्हणणे आसा. जुझे पाउलु दे आलमेदा म्हणजे जुजे पाउलु आनी पुर्तूगाली सरकाराच्या कबलाती उपरात सोनार भाट, व्हडलें भाट, ते मोवाती मरेन जुजे पाउलूचो शेक चलतालो. ही पालास तो फार्म हाउस कशें वापरतालो. ताका १८३५ वर्सा पोरणें गोंय हांगासर मरण आयलें. ताचे उपरांत दियांवाचो कारभार बिशपान नेमिल्लो (Cabido) म्हळ्यार लायक पाद्री सांबाळूक लागले. दियांवाचो वाटार सोडून हेर जाग्यांनी रावतले सदचो बाजार करपाक हागांसर येताले. केपें आनी लागसारचे गांवांतल्या तशेच नवे बाट्टील्या लोकांक हे चड सवस्तकायेचें आसलें. १९१० वर्सा कुशावती न्हंयचेर पूल बांदून तयार जालो. त्या उपरांत केपें इगर्जे लागसारचो तो बाजार आयज जंय आसा थंयसर आयलो.

कुशावती न्हंयचेर पूल बांदचे वेळार सरकारी कार्यलयांची गरज भासली. सगळ्यांत पयलीं फाजेंत (treasury office) बांदप जालें. आता थंय टेलीफोन एक्संेज आसा. ते उपरांत म्युनिसिपाल्टीची इमारत, काम्र दे केपें बांदून जालें. काम्र दे केपेंच्या एका भागांत बरोच तेंप मेरेन कोर्टाचो कारभार चलतालो. राजकीय तशीच हेर भाटां बेसाची देमंदा हांगासर चलताली. राजकीय आनी हेर दिवाणी देमांदानी दोषी थारील्याक बंदखणीत दवरपाक कुसमणा कादय (cadeia) आसली. कादय म्हळ्यार सिविल इनप्रीजन अशें म्हणू येता. हेर गुन्यावकारी आनी अपराध्याक तांचेर कायदेशीर चवकशी जाय मरेन फाजेन्ता लागसार आशिल्ल्या क्वार्टरांत दवरताले. हें केपेंचे पयले पोलीस स्टेशन. ताका लोक 'क्वारतेल' अशें म्हणताले. चौकशे उपरांत दोषी थारिल्ल्यांक आग्वाद धाडताले. पोलीस स्टेशन आनी कादय ह्यो दोनीय वेगळ्यो गजाली. हें बरेच उसरां कळ्ळें. १९१० वर्सा केपेंचो पूल बांदून जालो. उपरांत काम्र दे केपें इमारतींलो कोर्ट पुला पलतडी गेलो. गोंय सुटके उपरांत १९७० वर्सा क्वारतेल कुसमणच्या कादयेंत (cadeia) हालयलें. थंयचे सिविल इनप्रीजन मडगांवा कोर्टाच्या इमारतींत गेलें.

क्वारतेला जाग्यार अबकारी खात्याची कचेरी आयली. आयच्या खिणांत थंयसर डेप्युटी कलेक्टर आनी हेर कचेरींची इमारत आसा.

कुसमणची कादय खंयचे वर्सा बांदली हाची नोंद मेळना. इतिहासकार जुजे निकलाव फोन्सेका हांच्या संशोधना प्रमाण १८४१ वर्सा पोत्रे गोंयचे सांत डॉमनिक हे कोवेंत मोडित काडलो. ते वेळार त्या कोवेंताचे कांय भग्नावशेष केपें हाडले. ताचो वापर केपें कादयेत बाराक (barac) बांदचे पासत केलो. हाचो अर्थ १८ व्या शेंकड्यांत लेगीत ही कादय आसली. कादये मुखार सांत फ्रांसिसाचो पोरणो खुरीस आसा. पयलीं तो फकत चिऱ्याच्या बांदावळीचो आसलो. तो आयज शिमीटान भरसून रंगायला. कोवेंताचे भग्नावशेष केपें हाडले ते वेळार तो बांदलो आसूंक जाय. पोरणें गोंय फेस्ताच्या निमण्या दिसा केपेंचे पुलीस आपल्या खर्चान हांगासर लादिन करतात. हें बरेच पयलीं सावन चलत आयला ही ताची गवाय.

गोविंद पु. हेगडे देसाई हो केपें गांवचो पत्रकार. भारत नावांचे सातोळें मराठी तशेंच पुर्तुगेज ह्या दोनीय भाशेंत तो उजवाडायतालो. गोंयच्या सुटके पासत बरयिल्ले ताचे अग्रलेख पुर्तुगाली सरकार विरोधी आसताले. ते भायर हेरांची गोंय सुटकेपासतची बरपावळ लेगीत ह्या सातोळ्यांत उजवाडाक येताली. उजवाडावपी आनी संपादक स्वत: तो आसल्या कारणान असल्या सरकार विरोधी बरपावळी पासत खूपशे वेळार ताका हांगा कादयेंत रावचें पडतालें. ताच्या घरकान्नीचो ताच्या कामाक सदाच तेंको आसलो. जे दिसांनी तो घरा नासतालो त्या दिसांनी तो ह्या कादयेंत आसतालो. एका अर्थान ही कादय तीची सवत कशी आसली अशे म्हणू येता!

१९७०-७१ वर्सा बाजारांतले क्वारतेल कादयवाड्यार आयलें. कादयची केपें पोलीस स्टेशन जाले. गोंय सुटके उपरांत कारसेर (carceriro), सोलदार (soldaro), काब ही नावां कानार पडपाचीं उणी जायत गेल्ली. त्या उतरांची सायब सब- इन्सपेक्टर हवालदार, पुलीस हांणी जागो घेतलो. हांगासर लोकांचे येवप वचप वाडलें. कादयेच्या सामकें सामकार म्हजे घर. जायते फावट राती वेळार पुलीस बंदिस्त गुन्यांवकाऱ्यांची झडटी घेताले. पुलीसी झडती जाल्ल्यान ती चालू आसतना गुन्यांवकरांचे वेगवेगळे सूर, आळवणी कानार पडताल्यो. पुर्तुगेज सरकाराक आपली सेवा दिवपी ते वेळचे सोल्दाद अथवा काब हांका, गोंय सुटके उपरांत गोंयचे सरकाराच्या पुलीस सेवेंत आपणायले. तांतले कांय जाण पुलीस इन्स्पेक्टर जावन सेवानिवृत जाले. काय जाणांचे भूरगे हे खात्यात सब-इन्पेक्टर म्हण रुजू जाले. तांतल्या कांय जाणांनी केपें कादयेंत सब-इन्सपेक्टर म्हण लेगीत सेवा केल्या. फुडे तेच पुलीस अधीक्षक पदा मरेन पावले.

हळू हळू वाड्यावेल्या भुरग्यांची ल्हानसावन सामके संवकळीची



कादय पयस वचत गेली. ही कादय म्हळ्यार एका वेळार मनरिजवणेची सुवात आसली. काळानुसार आमदार बदल्ले की सायब बदलूंक लागले. सायब बदल्ले, तांचे सामजिक कार्यकर्ते बदलूंक लागले. फकत बदल्ले ना ते गुन्यांव आनी गुन्यांवकारी! ते तर कमी जावचे सुवातेर वाडत गेले. वाडते गुन्यावां वांगडा पोलीस स्टेशनाचे अप ग्रेडेशन जालें. सायबाचो (सब- इन्सपेक्टर) जागो व्हडल्या सायबांत (इन्स्पेक्टर) घेतलो. दारावेली मुखेल पाटी तीन भाशेंत बरयलेली लागली. तीचे वयर Police Station, पोलीस थाना, पोलीस थाणे, केपें अशी नांवा झळकली. पोलीस थाना हे जरी हिंदी भाषेतल्यान बरयलेलें आसलें तरी ते म्हाका कोंकणीतल्यान वाचतना ओगीच पोजडेंशें दिसताले. एका दिसा, भायर Help Goa Police to Help you हे घोषवाक्य पितारिल्ले बंदेर लोंबकळताले. तें वाचून १० वर्साच्या म्हज्या पुताक सामके अजाप जाल्ले. पुलीसेक आनी सामान्य मनीस किते हेल्प करू येता काय? ताका पडिल्लो हो प्रश्न. खरो गुन्यांवकारीच जेन्ना समाज सुदारक म्हण समाजांत वावूरता ताका पुलीसेंत धरून दिवप म्हळ्यार हेल्प! म्हज्या ह्या जापेक ताणेय कांयच प्रतिसाद दिलो ना आनी फुडेंय कांय प्रस्न केलो ना.

गोंय सुटके उपरांत लेगीत येरादारींची सादनां हीं आयचे सारकी संवकळीची नासली. पेडणे तशेच पयसुल्ले गांवचे पुलीस त्या पासत कादयेंतल्या बाराकिनी राबित्याक आसताले. सणा दिसांनी तांका सुटी मेळ नासली. चवथीक तर ते आपले मूळघरा वच नासले. 'संकटी पावावे निर्वाणी रक्षावे' भक्तांच्या ह्या उल्याक पासत तांका सदांच तयारेत रावंचे पडतालें. घरची चवथ चुकूंक नजो म्हण कादयेच्या मुखेलीच्या संमतीन कांय जाणांनी स्वताचे हातांनी मूर्ती तयार केली. इल्ली इल्ली करीत व्हड जावपी त्या मुर्तीचे दर्शन आमका भूरग्यांक अजापांत उडयतालें. गोयांत सार्वजनिक गणपती उत्सवाची सुरवात खऱ्या अर्थान सगळ्यांत पयलीं पुलीस स्टेशनासून सुरु जाली. केपें ११ दिसांच्या कादयेंतल्या गणपतीची परब आमकां तर पर्वणी कशी आसली. नाटक, ऑर्केस्ट्रा असले मनरिजवणे सुवाळे हांगासर जाताले. गोंयशाहीर उल्हास बुयांव हांच्या खासा कोंकणी गीतांच्या कार्यावळीचो सुवाद आमी चान्याच्या रातीं ह्याच कादयेंत घेतला. पोन्ने गोंयच्या फेस्ता परब आनी चवथ मोठ्या दबाज्यान मनोवपी केंपेची कादय खरे अर्थान गोंयकारांचे एकचारपणाचे प्रतिक आसूंक फावो!

तीन अर्दानी ६ ते ७ मीटर उंचायेच्या तटा मदीं गुन्यावकारांक दवरपाची बंदखणी कोठी, फकत ब्रम्हचारी पुलीसेक रातचे रावंचे पासत बराक, रांदची कुड आनी व्हड मेकळी सुवात. ह्या सुवातेर बेडमिन्टन आनी व्हॉलीबॉल खेळामळ. एका वेळार किरकोळ गुन्यांव केल्ले गुन्यांवकारी, कादयवाड्यावेले भूरगे आनी पुलीस मेळून हे खेळ खेळाताले. आयज हे कोणूय मानून घेत अशें म्हाका दिसना. त्या वेळच्या कादयेच्या मुखेलीच्या विश्वासाचे आदारार ही भरसावणी शक्य आसली. पावसा उपरांत मेकळ्या सुवातेवेल्या चीरपुटां झोपांचेर आमी तुटून पडताले. त्या हळडूवीगुंज टट्टीत चीरपुटाची रूच आयज

(पान ३० चेर)

# हरशीं

कृ. म. सुखठणकार



'हरशीं' ह्या उतराचेर खूब जाणांनी आपली लेखणी झरयल्या कित्याक तर ह्या उतराचो दर एकल्याचो अणभव वेगळो. हांव तातूंत म्हज्या अणभवांची भर घालतां इतलेंच. 'हरशीं' हें उतर ल्हान दिसलें तरी सामकें पेजाद. तें कानार पडल्या बाराबर काळजाचे ठोके (काळीज सगल्यांकूच आसता) गोडें मुतांचें (आसल्यार), प्रेसांव (आसल्यार) वाडपाकूच जाय, चड करुन पुरुश वर्गाचे. कारण हें उतर वाक्याचे शेवटाक स्त्री वर्गाक वापरपाची पाडी संवंय. हें उतर वापरुन तीं आमचें अर्दें आयुश्य कमी करतात हें तांच्या लक्षांत येना. वडा पुनवेचो उपास करचे बदला ताणी हें उतर वापरपाचें बंद करचें, समेस्त दादल्यांचें कल्याण जातलें. सात जल्माचें खबर ना पूण ह्या जल्मांत तरी तांचे आयुश्य नक्कींच वाडटलें.

आतां पळेयात, लग्न जावन गळ्यांत माळ पडल्या बाराबर आमकां कितली उमेद आसता. आदले दिसा देवकारें जावन न्हिदले उप्रांत कसलीं कसलीं सपनां पडटात. म्हाका हांव 'किसी शायर की गजल ड्रीम गर्ल' पद म्हजे ड्रीम गर्लाक म्हणजे हिका म्हणटां अशें सपन पडिल्लें. पद सोंपल्या उप्रांत (सपनांत) आमी दोगांय पॅराशुटान सकयल देंवलीं. कितें सपन! तर, आमी गळ्यांत माळ पडटकच व्हंकल पावणी जावन उमेदीन घरा येतात. दनपारच्या बुफेचें उरिल्लें जेवण जेवन न्हिदपाक वतात. तकलेंत 'सुहाग राती'च्यो हजारों कल्पना आसुं येतात thanks to Bollywood. व्हंकल भितर येता, आपलो अडेचो आंबाडो, फांती, एक एक करुन देंवयता. चल्याकडेन देंवोंवपाचें कांय नासल्या कारणान तो बसून पळेता आनी अचकीत लिगां ड्रॅसींग टेबलार दवरतां दवरतां ती प्रस्न करता, तुजें कॉलेजींत अफेर बी आशिल्लें? हांगां ताचो तिणे हाडिल्लें दूद पिवन लेगीत ताळो सुकता.

"कित्याक गो?"

"हरशींऽऽ!"

"पूण कित्याक?"

"हरशींच म्हणलें न्ही! विचारुं नाका जाल्यार विचारीना!!"

"आगो आतां आमचे लग्न जालां आमचे भितर ट्रान्सपेरन्सी आसपाक जाय."

"ट्रान्सपेरण्ट, ओपेक म्हाका कांय कळना हांव कॉमर्स स्टुडण्ट."

"सांग न्ही म्हजो मूड ऑफ जातलो."

"आय काण्ट हेल्प. लायट ऑफ करा!" अशें म्हणून ती अमृतांजनाची (Since १८९३) डबी उगडटा आनी कपलाक सारयता.

"सांगना मुगो? बरें आसा! म्हाकाय इल्लें अमृतांजन दी."

मागीर तोय अमृतांजन सारयता आनी लायट काडटा. ताका अमृतांजनाचो भगभग पडटा. पूण न्हीद पडना. ताच्या दोळ्यां सामकार सगळो भूतकाळ उबो रावता. संगीता, राधीका, अर्चना... सगलें महिला मंडळ ताच्या दोळ्यां मुखार हळडीकुकमाक आयिल्लेवरी उबें रावता. तो मागीर हातूंतले खंयचे सवायशिणीक लागून कुशीक घोरेत पडिल्लो रम्भेन (शयनेषु रम्भा) 'हरशीं' वापरिल्लें हें चिंतीत रात जागयता आनी दुसरे दिसा तांबडे गुंज दोळे घेवन कुडिंतल्यान भायर सरता. मागीर वावराडे पोंतान सगली जाणां ताचो भलतोच अर्थ काडून तोंडाक पदर लायतात. ताका कितें भोगलां तें ताकाच खबर आसता! फुडें कालांतरान तांकां दोन तीन भुरगीं जातात. परत ती तो विशय केन्नाच काडी ना. पूण 'हरशीं' हें उतर मात टांगती तलवार कशी ताचे बोडार उरता. हांवें जें कथन केलां तें काल्पनीक. तुमकां जर हो तुमचो अणभव दिसलो तो केवळ योगायोग कित्याक तर सगलेच जाण कपलाक अमृतांजन सारोवंचे ना हें हांव जाणा. कारण ताचे परस स्ट्रॉन्ग टायगर बाम (Since १९०८) बाजारांत आयला.

'हरशीं' हें उतर जेन्ना वाक्याचे शेवटाक येता तेन्ना काळीज आसल्यार धडधडुंकूच जाय. शिरवयकाराल्या सीमान स्कूल सुट्टकच म्हाका एक दीस वाटेर विचारलें,

"तूं सांजचो घरा आसतलो?"

"हय गो."

"आतीबाय आसतली? (आतीबाय म्हजी मातोश्री)."

"हय, कित्याक गो? हांगां म्हजे ओंठ सुकले तांचेर हांवें बेगीन बेगीन जीब फिरयली."

"हरशींऽ!"

"एकाद्री ती कवळ्यां प्रसादाक वतली म्हणटाली. कित्याक गो तुंवें विचारलें?" हांगां हांवें फाटीक मारिल्लें दप्तर माथ्यार दवरलें कारण फाटींतल्यान कितें वयर सरताशें दिसूंक लागिल्लें आनी कानाचीं पातीं गरम जाल्लीं.

"हरशीं रे!"

"आगो सांग गो, कितें सांगपाचें आसा म्हाका? आमीं माळयेर बसून उलोवं येता."

"शशी बाये! आरे म्हाका मेळांय व्हरपाक येवपाक जाय. पयर म्हजी फावट फुकट गेली म्हणून विचारलें. आनी तुका कितें सांगपाचें आसल्यार म्हाका हांगां सांगूंक येना? हरशींच विचारिल्लें म्हणल्यार तुका कळना?"

म्हजीं कानाचीं पातीं आपशींच थंड जालीं, फाटींतल्यान कितें वयर सरतालें तें सकयल देंवलें. हांवें माथ्यार मारिल्लें दप्तर परत फाटीक मारलें आनी घरची वाट चलपाक लागलों.

दादल्यां कडल्यान घालून काडपाक ह्यो बायलो ह्या उतराचो देमायज वापर करतात असो म्हाका म्हजो अभ्यास सांगता. दादलो म्हजे सारको 'भोळा सांब'आसत जाल्यार नाकयां आपटलोच! पयरचीच गजाल

सांगतां, हांव बाजारांत गेल्लों. इजाबेल (म्हजी नुस्तेकान्न) बाजारांत खूब तेंपान दिसली. ताची खबर घेतां घेतां (हालींच ताचें ओपेरासांव जाल्लें) हांगांच्यो थंयच्यो खबरी करता म्हणसर एक वर गेलें. खंयचोय दादलो बाजारांत नुस्तें हाडपाक गेल्यार इतलो टायम लागताच. कारणां विंगड विंगड आसूं येतात. सदांच कितें ताचे नुस्तेकान्नीचें ओपेरासांव जायना. सोड. ह्या दिसांनी नुस्तें हांव उजरांवनूच घरा व्हरतां म्हणटकच म्हाका बाजारांत एकार्चीं दोन वरां जालीं म्हणून प्रॉब्लेम ना, तुमचें हांव नकळों. तरी आसतना हिणे 'हरशीं' भायर काडलेंच.

"आज उशीर सो?"

"कित्याक गो, हरशीं तूं विचारीना मुगो म्हाका?" हांगां हरशीं वाक्याच्या मदीं आयलां म्हणटकच ताचो एफेत झीरो.

"हरशींऽ!"

'हरशीं' जेन्ना बायलो वापरतात तेन्ना तांचे आवाजाची 'पिच' बदलता. तीं भितरल्यान एक अडेचो आवाज काडटात. तो आयकून तळ पांयांची आग मस्तकाक पावता (म्हज्या).

"सारकें उलय गो, भायर भितर कितें करता?"

"हांव भायर भितर कित्याक करतलें? आनी तुमी इतले काचाबूल कित्याक जातात? इजबेल बाजारांत मेळिल्लें जाल्यार तशें सांगात म्हाका."

"कित्याक?" हांगां हांव रांदचेकुडींत वचून एक पेलो उदक मारतां कारण रांदचेकुडींत आनीक मारपा सारकें कांय नासता.

"हरशींऽऽ!"

हें उतर परत परत कानार पडटकच धड धाकट दादलो लेगीत हालता. ताच्या मनांत खंय तरी पाल चुकचुकता म्हणटात पळे तशें जाता. दादल्याक हांव कितें म्हणटा तें ज्यूस्त कळटलें. म्हाका ओगीच दिसलें इजाबेलाचे फाटीर हात फिरोवन ताका हांव मोरल सपोर्ट दिवन मोटिवेट करतालों तें कोणे पळयलें आनी हिका सांगलें काय? कारण ह्या संवसारांत दोळे फुटके खूब जाण आसात, आपुणूय कांय बरें करचेना आनी दुसऱ्याकूय कांय करपाक दिवंचे नात. आपले उतरांनी कोणाकूय आदार दिसता जाल्यार कित्याक दिवंचो न्ही? आसूं, तो दुसरो विशय. तर, अशे वेळार दादल्यांनी कशेच हालपाक जायना. Luck favours the brave अशें म्हणटात, म्हाका तेन्नाच बाजारांत नलूचो फोन आयिल्ल्याची याद जाली. देव कसो हात दिता तो पळेया.

"आगो, नलूचो फोन आयिल्लो. नलू एकदां फोनार उलोवंक लागतकच तुका खबर ना? हांवें ताका कितले फावट सांगलें तुझी दिदडा माझ्या वाटेला दोळे लावून बसली असेल. फट जाल्यार फोन करुन विचार."

"अशें सांगां न्ही! हांवें तुमकां फांसार चडयलां? आतां हाडलां ताचें कितें करुं तें सांगां." 'हरशीं' हें उतर आमची कशें सत्व परिक्षा घेता तें तुमीच पळेया.

'हरशीं' हें उतर धवळे करपाक बायलांक खूब आदार करता. देखून हें उतर लग्नांनीं, हळडीकुकमाच्या दिसानीं सप्तमी मेरेन, जात्रांनी, पंचमीक कवळ्यां (आडव्यांक लागू, उब्यांच्यो भानगडी आमकां नाका) हें उतर खूब वेळा कानार आदळटा.

"हरशीं विचारतां आं, तुजें आनी बीनाचें बरेंऽऽ ना काय कितें गो?" व्होंट भरतना तुका हटकिलें पसून ना ताणे. बाबुली भटान लेगीत नोट

केलें म्हणून म्हणलें, 'महिलानी ह्या बाजुला बसावे' वेटेन कान लायत जाल्यार असलीं उतरां कानार पडले शिवाय रावना. नागवेकाराल्या धुवेन तिका दांतोळ्यो घालतना, ''हरशीं विचारतां आं, म्हजे कानांत घालां तें खरें काय उदक चडयलें रे?'' अशें नागवेकाराक (प्रोप. नागवेकार ज्युवेलर्स) विचारलें तेन्ना तिचे आज्जेन मीठ उवांळून रांदनीन उडयलें खंय.

गोंयकार, मनशाचे गूण सांगतना 'हरशीं' उतराचो वापर करतात. हें उतर वापरतकच आनीक वेगळीं उतरां वापरचीं पडनात म्हणून आंसुये. आमीं नलूक थळ पळेताले तेन्नाची गजाल. हरशीं भुरगो भांगर पूण पियेतकच तो मनीस न्हीच, हाता भायर वता. तुमकां कोंताक येतलें जाल्यार पळेया एकल्यान इन्फॉर्मेसांव दिलें. हें पळेयात हरशीं भुरगो कसोय आसल्यार जाता पियेतकच प्रकरण हाता भायर वचपाक जायना कित्याक तर साडू जालो म्हणटकच आमचें बसप हें जातलेंच. आनी पियेतकच प्रकरण हाता भायर वतलें आनी साडू साडू भितर वायटपणां जाल्लीं म्हाका नाका. हांवें म्हणलें. ती सोयरीक जाली ना हें सांगपाक घाडी नाका. आतांचें दोतोर रोगाचें निदान 'ट्रायल एण्ड एरर मेथडीन' करतात. हाका लागून तांकां 'हरशीं' हें उतर वापरचें पडटा. प्रेसांवांच्यो गुळयो घेवन लेगीत फाटीं म्हाका घुंवळशी येवपाक लागली तेन्ना आमचो दोतोर रायकार (जीएमसी २००५) म्हणपाक लागलो सेकण्ड ओपिनियन घेंवया. उठलों आनी पणजे गेलों, दोतोराचें नांव सांगिना सद्याक ताचो धंदो बरो चल्ला.

''हरशीं आनीक कांय त्रास ना न्ही?'' दोतोर (एमबीबीएस, एमडी, गोंय विद्यापीठ)

''डायबेटीस, प्रेसांवांचें आनी आतां सुरु जाल्या ती घुंवळ सोडून आनीक कांय त्रास ना.''- पेशंट.

''हरशीं घरांत कसली हिस्टरी बी आसा?''

''आई सोडून सगले इतिहासांत जमा जाल्यात. तांचीं तिथीनुसार आमी श्राद्धां वाडटात.''- पेशंट.

''हरशीं पोटांत बी सुकना मूं?''

''ना. येतना वतना कोंब्यांतलें उदक पितां. बापूय रेडव्यार 'वंदनवार' लागतकच दोंगरार वतालो आनी 'त्रिवेणी' लागतकच सकयल येतालो. आज्यान 'ज्याचे पोट साफ त्याचे चारित्र साफ' अशें आपलें सुभाषीत देवाकुडींत लायिल्लें तें अजून आसा. पणजो...''

''आसूं. हरशीं सद्या तरी म्हाका प्रॉब्लेम कांय दिसना. भायर पांचशें रुपया दी. तसोच कितेंय प्रॉब्लेम आसल्यार यो . हांवे ताणे सांगलें तशें केलें आनी भायर आयलों.''

आमीं गोंयकार मेळटात तेन्ना 'हरशीं घट मरे?' अशें विचारुन एकामेकाची खबर घेतात. बारीक सारीक प्रॉब्लेम जिणेंत येतलेच तें सोड हरशीं तूं ओवरऑल घट मरे असो ताचो म्हजे पुरतो अर्थ.

हांवें वयर म्हणलां तशें खंयच्या स्वरान, कशें उच्चारतात ताचेर आमी ताचो अर्थ काडटात. देखीक, म्हजें, लग्न आदीं म्हणजे गृहस्थाश्रमा आदीं, ब्रह्मचार्याश्रमांत आसतना, संध्या बरडागेर खूब वचप जातालें. मागीर हांव ब्रह्मचार्याश्रमांतूच उरलों आनी ताचें लग्न जालें. मागीर हांव तांगेर कोणाचें तोंड पळोवंक वतलों असो प्रस्न म्हजेर पडलो आनी म्हजें तांगेर वचप कमी जालें. एक दीस हांव तांचे घरा मुखावेल्यान पासार जातना व्हनीबायन म्हाका हटकिलो,

''हऽरशींऽ आमगेर तूं बरोऽऽ येतालो मरे, आतां येना सो?''

व्हनीबायन हरशींक असो स्वर लायलो घडये तो नाट्यशास्त्रांत (षड्जश्य ऋषभश्चैव गान्धारो मध्यमस्त्था/सत्था पञ्चमो धैवतश्चैव सप्तमोऽथ निषादवान् II) नासुयें. पूण तो म्हज्या कुरासांवांतल्यान आरपार जालो.

''ना, हरशींच!'' हांवें हरशींक जो स्वर लायलो ताचोय नाट्यशास्त्रांत आसपाव नासुंये.

'हरशीं' हें उतर हरशीं तशें वायट न्हय, तें कशें वापरतात ताचेर आसा. म्हाका ह्या उतरा बद्दल खूब आदर देखून ताचे विशीं बरयलें. हरशीं म्हण हांव शेनवार आयतार घरा बसून कितें करतां? (शनिवार रविवार बाजार बंद राहील).

संपर्क : 9850530756

***

(पान २७ वयल्यान)

मेरेन म्हजे जीबेर घोळता. मुखार आशिल्ल्या उंच चिंचे झाडाच्या चिंचेबोटांची आंबटेली गोडसाण कोण विसरू शकतात. पिकून पडपी घोटां आनी ती मेळोवंक आमी सगळ्यांनी दवरिल्ली पाळत! हांचे सगळ्यांचेर कळस म्हळ्यार मुखावेले एकमेव 'गोरोखचिंचे' झाड. हीं सगळीं फळांची झाडा एका तेंपार पुलीसेंतल्या लोकांनीच लायिल्लीं आनी सांबाळ्ळी लेगीत.

काळानुसार बदल जायत गेले. तशें केपेंच्या कांदयेत लेगीत बदलप आयले. खेळां मळाचेर वायरलेस टॉवर आयलो. तांबडेसार मोव मातये सुवातेर खडयेची मुरास आयली. चीरपुटांच न्हय तर कसलींच झोपां आता थंय जीव घेना जालीं. पिकून पडिल्ली घोटां खावपी भुरगीं सोडून गोरवां खावंक लागलीं. पानांच्या पत्र्यांमदीं चिंचेबेटांची आंबसाण मातयेभरवण जायत गेली. पिकून पडिल्ली गोरोख चिंचेची बोंडा येरादारिक आडमेळी थारूंक लागलीं. सदचीच संवकळीची कादय अडखळीची जावंक लागली. लोक आनी पुलीस हांचे मदी एक वेवसायीक संबद उबे जालें. आपलेपणाचे तशेच मनीसपणाचे नातें खरे अर्थान कादयेंत सासणाचे बंदिस्त जाले!

सरकारान आयज त्या जाग्यार एक नवी व्हड इमारत प्लान केल्या. १०.०६.२०२० दिसा हांगासरले पोलीस स्टेशन शेलड्यां तात्पुरत्या जाग्यार गेलां. भितल्या पोन्या बांदावळीचे मोडप सुरु जालां. आतां ते जाग्यावेली कादय वचून नव्या सोयींनीं भरिल्लें भव्य भारदस्त अशें केपें पोलीस स्टेशन जातलें अशे जाहीर जालां. कवी बाकीबाबान देवळाची उपमा दिल्ली बंदखण आयज मोडावाक वता तें पळोवन वायट दिसता हें खरें. तरी आमी सगळ्यांनी असल्या बदलाक येवकार दिवंक जाय. कारण विचारवंत जॉर्ज बर्नार्ड शो म्हणता की ''बदलाविना उदरगत जावप अशक्य, आनी जे कोणय आपली बुद्द बदलूं शकनात ते कांयच बदलूं शकचे ना.''

संपर्क: 9822129070

***

# कविता

## जीण म्हजी साण

माधव बोरकार

जीण म्हजी साण
हाडां चंदनाचीं
जाता उक्तीं उक्तीं
जनेलां मनाचीं

वाचेची पालय
रगताची लय
व्हांवता काळजांत
उजवाडाची न्हंय

हुपतना तार
दिठयेचें भिरें
चड्टा हांगा पाणी
कोणा हातांत येरें.

झरिल्लें चंदन
साण कशी जीण
सुटून सुटना
प्रारब्धाची वीण..
१०.११.२१

संपर्क : 9420222876

***

## 'ABCD'

सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

आयज तो मंत्री जावन
खरे अर्थान ABCD शिकला
'A' म्हणीत आतां तो
सगळ्यांक उलो मारता
पूण आपूण मात केन्ना
'O' म्हणीना
'I' ताका सामकें योस्ताक गेलां
वचत थंय आतां 'I' म्हणटा
आमिगां वांगडा आतां तो
'P' 'P' पियेता
आतां ताच्या घरामुखार
लोकांचो 'Q' लागता
पैशे येतल्याशिवाय
कसलेंय काम करपाक आतां
तो 'S' म्हणीना
लफडें जाल्यार 'U' म्हणीत
तो तुमकां बोट दाखयता
बरें जाल्यार 'V' म्हणीत
आमी केलें म्हणटा
आतां तो सगळ्याक 'X' चेर मारता
'Y'? तो ABCD कित्याक शिकला
आमकां 'Z' करुंक?

संपर्क : 9923306751

***

## थिकां

मुकेश थळी

१
म्हाका नाका व्हडलो बंगलो
काडटलो कोण कोयर सगलो
आसची इल्लीशी खोप
जाव मात वेतो-वतो लोक
२
ह्या खिणांतलो स्वास झोपाळो
ताचेर धोलपाचो म्हाका लळो
होच खरो जिणे सुवाळो
३
पानांची सळसळ
जायांचो दरवळ
दिसता?
येदो म्हान निर्मातो
कसो दिसतलो तो?
४
विशुध्द प्रेमाची पोकळी
दैवता भितल्ली पातळी
भितरूच आसा प्रेम-तळी
तातूंत न्हाल्यार
भरतली पोकळी सगळी
५
काळजांत नाचली शांती
अणभवली खरी तृप्ती
सूख, आनंद सरभोंवती
धन्यतेची ही पावती
६
जिणे वेळेन दिल्यो
अणभवाच्यो युलो
शाणेपणाच्यो शिंपयो
वेंच वेंच वेंचल्यो
७
आज षड्ज असो लागलो
मळबांतल्या तारांगणांत
पेटल्या दीपरतनां
असो भास जालो
८
दिसूं उतरां
झऱ्यावरी सादीं
आर्दी तीं येतात
म्हासागरा तळाची पापी

संपर्क : 9545827662

***

## तूं रावतलें जाल्यार

आर.एस.भास्कर

आज तुजो
उल्लो आयलो
आंब्या झाडाक
चंवर आयलें
पावलांत पावल
मारीत आज
आंगणांत म्हज्या
मोर नाचलो

वसंत रुतु
सोंपतलो मेरेन
म्हजे बरोबर
तूं रावतलें जाल्यार
जिणेंत आमच्या
फुलां फुल्लतलीं
आनी तुकाय म्हाकाय
परमळ दितलीं.

संपर्क : 8891306123

***

## सर्वे बोट

तुकाराम रामा शेट

म्हजी सात वर्सांची नात
आनी हांव उलयतालों
उलयतां उलयतां हांवें म्हणलें -
म्हजी आजी पयस पयस रावता
'खंय रावता ती तर?'
ती म्हज्या यादींच्या गांवांत रावता
तें आयकून नात म्हजी हांसली
बरें किर्दे समजल्या सारकी

हांवें फुडें सांगलें -
ती म्हजे आवयची आवय
तिका आसलीं उजवे हातीक स बोटां
आखाण्याक तेकून सर्वे बोट
तिका वट्ट एकवीस बोटां
'एकवीस बोटां?!'
हय सगलीं मेळून
एक चड

जनावरांच्या पांयाक चार बोटां
आमच्या हाताक पांच
तिकाच स

ती वताली खारें, नुस्तें विकूंक
यरा येताना पाटलेंत आमचे खातीर
योटां,तोरां, बटाट, बिस्कींट
काण्णा, चुन्ना, पणसाचें साठ
नाच जाल्यार,
ना विकतां उरलेलो काजू बियांचो दोळो
आमचे खातीर किर्दे ना किर्दे आसतालेंच

ती म्हजे खाडकेक उजवो हात लावन
उमो येताली अपुरबायेन
आनी दवरताली माथ्यार
आपलो स बोटांचो हात
तेन्ना म्हाकां दिसतालें
खूब किर्दे भाविल्ल्याचें

संपर्क : 7588446660

***

## म्हाका काळ वेळ लागना !

प्रकाश नायक

म्हाका काळ वेळ लागना...
मळबांतल्यान कोसळटा हांव
तुज्या विलुदी झाडाचेर
माथ्यावयल्या केसांचे कोंबरेचेर
केन्ना तुज्या लुगटाच्या पानांचेर
झिरपत भितर तुजे कातीचेर
रिगत गांयडोळ जावन
तुज्या खडपांतले मातयेचेर

तुज्या तनांतली वाफ
म्हज्या मनांतली ऊब
शिरशिरून येता....
तूं हांव एक जाता...!

पळय तुज्या खांदया खांदयांनी
थेंब थेंब कशे आटल्यात
वाफेन कळयो फुटल्यात
ऊबेन गच्च दाटल्यात

मर्दींच मस्तो वारो आडखळटा
परतून हांव धो धो कोसळटा
थेंब थेंब तुज्यांत विरघळटा
माती तुजी वथांब्यांनी मिसळटा

म्हाका काळ वेळ लागना...!

संपर्क : 9423882043

***



## सरतात राती

परेश नरेंद्र कामत.

सरतात राती
सरसकट काळखांत
आनी
सरकता जीण
सरसरत दोळ्यां मुखावयल्यान

काळखांत आसता
उजवाडाचो अंश खंयतरी
तो पुंजाय
आनी
काळखाच्या रानांत लेगीत
तुजीं फुलां फुलय
शुभ्र

संपर्क : 9422640210

***

## उदक

उल्हास पै रायकार

हांवे उदक पळेलें
झडटना...
बांयत...
तळयेंत...
व्हाळांत...
न्हंयेंत...
दर्यांत...
कोंडांत...
पूण फकत
'उदक' म्हूण
एकदां पळेलें
तेन्ना 'तूंच' मेळलें

संपर्क : 7507441344

***

